# तोलस्तोयाच्यो काणयो

(लोक काणयांच्या आदारान)

7-15 वर्सांच्या भुरग्यां खातीर

**अणकार : के. बी. राव**

**संजना पब्लिकेशन्स**

सांगें-गोंय

**Tolstoyachyo Kanyo**
(Collection of short Stories of Leo Tolstoy)

Translated by : **K. B. Rao**
Villa Valley View, Nagalli Hills Colony
Dona Paula, Goa 403 404
Mob.: 9922233795
email : bhalchandrauk@gmail.com

**तोलस्तोयाच्यो काणयो**





**प्रकाशक :**
संजना पब्लिकेशन्स
39, दत्तवाडी
सांगें-गोंय 403 704
Mob : 9552551425
email : sanjanapublications2@gmail.com

**प्रकाशन क्र. :** 48

**पयली आवृत्ती :** 2016

**छापणावळ :**
बांदेकार ऑफसेट
कुडचडें गोंय
फोन : 0832 2650034 / 9422437236

**मुखचित्र :** सुदेश बांदेकार

**मॉल :** 120/- रुपया

*To,*

*My Father*
*Who Introduced*
*Tolstoy*
*To Me*

*And*

*Late Madhavi Sardessai*
*Who*
*Encouraged Me*
*To Translate His Tales*
*For "Jag"*

*- K. B. Rao*

# मांडावळ





# भुरगीं आवय-बापाय परस शाणीं

पास्कांची परब आशिल्ली. गांवचो वाठार बर्फान भरिल्लो. रस्त्या कुशीच्यान मदल्यान उदकाचे पाट व्हांवताले.

दोगी ल्हान चलयो- मालाशा आनी आकुल्या तांगेल्या घरां मदीं आशिल्ले सुवातेर मेळ्ळ्यो. थंय मातये उदकाचा एक फोंडारो तयार जाल्लो. ह्यो चलयो शेजारी जाल्ल्यान खूब फावट एकठांय खेळटाल्यो. आज फेस्ताचो दीस आशिल्लो म्हण तांणी आंगार नवे व्हिस्तीद घाल्ले. मालाशाचो व्हिस्तीद निळ्या रंगाचो आशिल्लो, आनी आकुल्याचो हळडुव्या रंगाचो. दोगांयनी गळ्या भोंवतणी तांबड्या रंगाचो स्कार्फ बांदिल्लो. दोगांकूय ते मातयेच्या उदकांत खेळपाची उमेद जाली. मालाशा फोंडाऱ्यांत देंवपाची तयारी करूंक लागलें. दोगां भितरलें तें ल्हान आशिल्लें. आकुल्यान ताका आडावपाचो यत्न केलो. ''मालाशा, राव. तुजी आवय तुका तापयतली. आमी पयलीं आमचे बूट मेय काडून पेल्यान दवरुंया आनी मागीर उदकांत पाय घालुंया.'' आकुल्यान म्हणलें.

दोगांयनी बूट मेय काडून दवरले, नवे कपडे मातशे वयर काडले आनी उदकांत देंवलीं. मालाशा ल्हान आशिल्ल्यान फोंडाऱ्याचें उदक ताच्या धोंपरां मेरेन पावलें. 'आकुल्या, म्हाका भंय दिसता, फोंडारो

खोल आसा,' ताणें म्हणलें.

"तितलोच खोल आसा तो... कांय भियेवं नाका. ल्हवू ल्हवू पांय घाल, आनी, आंगार उदक उसळूंक दिवं नाका..." आकुल्यान ताका सांगलें.

आकुल्या उलयता थंय आशिल्लें, मालाशान मातशें नेटान पावल फुडें घालें आनी इल्लें मातयेचें उदक आकुल्याच्या नव्या कपड्यार उसळ्ळें. इल्लें उदक ताच्या तोंडार आनी दोळ्यांरूय उसळ्ळें. आकुल्याक राग आयलो. मालाशाक मारूंक तें ताचे फाटल्यान येवंक लागलें. आपणा कडल्यान चूक घडल्या ही जाण मालाशाक आशिल्ली. तें फोंडाऱ्यांतल्यान भायर येवपाची तयारी करपाक लागलें.

तेन्नाच आकुल्याची आवय थंय पावली. "आगो, नवे कपडे अशे म्हळे कशे जाले?" तिणें धुवेक विचारलें.

"मालाशान म्हजेर बुरशे उदक उडयलें." ताणें म्हणलें.

आकुल्याचे आवयन मालाशाचे फाटीर एक थापट मारलें, ताच्या पोल्याक एक चिमटो काडलो. मालाशा मोठ्ठ्यान रडूंक लागलें. तें आयकून ताची आवय धांवन आयली. "आगे, आगे, म्हजे धुवेक शी मारता?" शेजाऱ्नीक ती रागान विचारूंक लागली.

तोंडाक तोंड लागलें. दोगूय शेजाऱ्नी एकिमेकींक गाळी घालूंक लागल्यो. बोवाळ आयकून दोगींयचेय घोव थंय पावले. तांणीय झगड्यांत वांटो घेतलो. गांवचे हेरूय कांय जाण झगडें पळोवंक एकठांय जाले. सगळीं मोठ्या मोठ्यान उलयतालीं. कोण कोणाचें आयक नाशिल्लीं.

आकुल्याची आजीय थंय पावली. "आयचो दीस फेस्ताचो. आयज हे भाशेन झगडूंक फावना... खोस मनोवपाचो दीस आज..." तिणें म्हणलें. पूण ते जाणटेलेलीं उतरां कोणाक आयकूंक आयलीं नात. झगडीं-केस्तांवां, गाळी-फस्ती चलत रावल्यो. आतां मारामारी

जावपाचींय चिन्नां दिसूंक लागलीं.

जाणटीं झगडुपांत गुल्ल आशिल्लीं तेन्ना आकुल्या आनी मालाशा हातांत तोंकाचे फातर घेवन फोंडाऱ्यांतलें उदक भायर वचपाची वाट तयार करतालीं. तांची वाट तयार जाली आनी उदकाचो इल्लोसो पाट रस्त्या वयल्यान व्हावक लागलो. तांणी खंयच्यान तरी एक लाकडाचो कुडको सोदून हाडलो आनी त्या व्हाळांत सोडलो. लाकडाचो कुडको बोटी वरी मुखार वचूंक लागलो. दोगीय चलयो खुशालभरीत जावन, उडयो मारीत ते बोटी फाटल्यान वचूंक लागल्यो. आकुल्याचे आजयेन तें पळयलें. तावातावान झगडटल्या शेजाऱ्यांक तिणें म्हणलें, "पळयात, तुमी हांगा झगडटात आनी तेवटेन तुमच्यो धुवो बऱ्यो खुशालकायेन वांगडा खेळटात. लज दिसूंक जाय तुमकां, खऱ्यांनीच, तांकां आसा तितलीय बुद्द तुमकां ना."

भुरग्यांचीं आवय-बापूय झगडुपाचीं थांबलीं आनी हांसकुरी तोंडां घेवन आपल्या आपल्या घरा परतलीं.

# वायट भूल घालता, बरें तेंच अखंड तगता

एक गिरेस्त भाटकार आशिल्लो. मनीस मायेस्त आनी बरो. ताच्या भाटांतल्या वावराड्या गुलामां लागीं तो मायेन चलतालो. गुलाम ताची सदां तुस्त गायताले- ''आमच्या धनया सारको मनीस संवसारांत खंयच मेळचो ना. तो आमकां जेवण-खाण भरपूर दिता, कपडे दिता, आनी आमचे तांकी प्रमाणेंच आमकां काम दिता. आमकां केन्ना मारिना, केन्ना दटायना. हेर धनी तांगेल्या गुलामांक गोरवां वरी वागयतात, मार-पेट घालतात. आमचो धनी आमचे कडेन मायेन आनी मनीसपणान वागता.''

सैतानाच्या कानार हीं उतरां पडलीं. ताका जाळ पडले. गुलाम अशे सुखासंतोशान जियेतात आनी तांच्या धनया कडेन प्रेमान, आदरान पळयतात हें ताच्यान सोंसूंक जालें ना. कितें तरी करचेंच पडलें, ताका दिसलें. आलेब नांवाच्या एका गुलामाक ताणें आपणा सरीं आपयलो, आनी हेर गुलामांक कशेय बशेन फुसलावन तांच्या धनया आड पेटोवन घालपाचो ताका आदेश दिलो.

एक दीस कामा उपरांत गुलाम खबरी मारूंक बशिल्ले. सदचे वरी आपणाल्या धनयाची तुस्त गायताले. तेन्ना आलेबान तांकां म्हळें, ''आरे पिश्यांनों, आमी धनयाच्या भाटांत घोळटात आनी ताची

गिरेस्तकाय वाडयतात. हाका लागून तो आमचे कडेन बरेपणान चलता. ताचे आड कितेंय करून पळयात, ताचें नीज रुप वयर सरतलें... तेन्ना आमचो धनी कितलो दयेस्त आनी मायेस्त तें कळटलें. तो रागार जातलो, आमकां गाळी घालतलो... चाबूक घेवन मारूंक लेगीत फाटीं रावचो ना. मातशे ताचे आड वचात आनी पळयात.''

हाचेर गुलाम म्हणूंक लागले, ''ना... ना... आमच्या धनयाक राग केन्नाच येवचो ना; आमी कशेय वागूं, तो आमकां शिक्षा केन्नाच करचो ना.''

आलेबान म्हणलें, ''चलात... पैज मारूंया. धनयाक राग येतलोच, पळयतले तुमी. हांव जिकलों जाल्यार तुमी म्हाका फेस्ताचे नवे कपडे घेवन दिवप; तुमी जिकले जाल्यार हांव तुमचे खातीर फेस्ताचे कपडे हाडटलों. मान्य?''

सगल्यांक हें मान्य जालें. धनयाक राग आयलो, आनी रागान तो आलेबाक कितेंय करूंक गेलो जाल्यार ताका राखण दिवपाचेंय उतर हेर गुलामांनी ताका दिलें.

सकाळ जाली. गुलाम सगले दरवट्या सरीं बशिल्ले. सैतान रुखार चडून आपणालो दास ताका दिल्लो आदेश कसो पाळटा तें पळोवंक उमळशिकेन बशिल्लो.

आलेब मालकाचीं मेंढरां राखतालो. मेंढरांच्या कळपांतलो एक मेंढरो मालकाचे अपुर्बायेचो आसलो. ताचीं शिंगां वाकडीं आशिल्लीं आनी तो पळोवपाक खूब सुंदर दिसतालो. मालक कांय इश्टांक घेवन आपणालो आवडटो मेंढरो दाखोवंक म्हूण थंय येतालो. ताका पळोवन आलेबान हेर गुलामां कडेन आनी सैताना वटेन नदर मारून दोळो मोडलो.

मालक आलेबा म्हऱ्यांत पावलो, आनी त्या वांकड्या शिंगाच्या मेंढ्याक धरून सोयऱ्यांक दाखोवंक हाड म्हूण ताणें आलेबाक सांगलें.

आलेब शींव कसो हिंडांत भितर सरलो. सगल्या मेंढरांक ताणें फाफसून घालीं, मालकाचे अपुर्बायेच्या मेंढ्याक घट धरलो, आनी दया-माया नाशिल्ले वरी मालकाचे आनी सोयऱ्यांचे हुजीर त्या मेंढ्याचे दोन पांय-फाटलो दावो आनी फुडलो उजवो मोडले. पांय मोडून जातकच दुख्खान तळमळपी मेंढ्याक ताणें सकल शेंवटिलो.

सोयऱ्यांक हें पळोवन अजाप जालें. तिडकूय मारली. सैतान मात खोशी जालो. ताच्या दासान बेस बरें काम केलें.

मालकाचेंय तोंड काळें-निळें जालें. पूण तो मान सकल घालून जमनी कडेन सकल पळयत रावलो.

आतां कितें जातलें, गुलामूय उमळशिकेन पळयत राविल्ले.

मालक शांत दिसतालो. कांय वेळान ताणें तोंड वयर केलें. माथ्या वयलें जड वजन देंविल्ले वरी ताच्या कपला वयल्यो आंटयो ना जाल्यो, आनी तोंडार एक मंद हांशें फांकलें.

आलेबाक ताणें म्हऱ्यांत आपयलो आनी म्हणूंक लागलो, ''बाबा आलेब, हांव जाणां, तुज्या धनयान म्हाका राग हाडपाचो तुका आदेश दिल्लो. पूण म्हजो धनी तुज्या धनया परस बळिश्ट. म्हजो तुजेर कांय राग ना... तूं गुलामपणांतल्यान मेकळो जावंक सोदतालो. हे घटके सावन, ह्या सोयऱ्यां हुजीर, तुका हांव खोशयेन मेकळो करतां, आलेब. तूं आतां मेकळो. तुका जाय थंय वच आनी सुखान जिये. वतना तुजे फेस्ताचे कपडेय घेवन चल, विसरूं नाका.''

दयेस्त मालक सोयऱ्यां बराबर घरा गेलो. रागान हुल्पल्लो सैतान रुखा वयल्यान सकल पडलो आनी भुंयेंत एक बुराक मारून ताचे भितर रिगलो.



# तांतया येदो दाणो

एक दीस कांय भुरग्यांक खेळटां खेळटां एक विचित्र वस्त मेळ्ळी. दाण्या वरी दिसपी, पूण कोंबयेच्या तांतया परस व्हड अशी वस्त. एका भोंवडेकाराची नदर तिचेर पडली, आनी कांय पयशे दिवन ताणें ती भुरग्यां कडल्यान विकती घेतली. उपरांत वचून ताणें ती राजाक विकली.

राजान शारांतल्या बुदवंतांक आपोवन हाडले आनी तांकां ती कसली वस्त काय म्हूण विचारलें. बुदवंतांनी तांतया वरी दिसपी ते वस्तीची वळख घेवपाचो खूब यत्न केलो, पूण कोणाकूच तिचें कुवाडें सुटलें ना. राजान ती वस्त काडून आपणाल्या म्हालांतल्या एका जनेलार दवरली.

एक दीस एक कोंबी जनेला वेले ते वस्तीक चोंच मारून गेली. शिपायांनी तें पळयलें. कोंबी चोंच मारता म्हणटकच हो कसल्या तरी धान्याचो दाणोच आसतलो असो तांणी अदमास काडलो, आनी राजाक तशें सांगलें. राजाक अजाप जालें. ताणें परतेय बुदवंतांक आपोवन घेतले. असले तरेचो दाणो कोणें, केन्ना आनी खंय रोयिल्लो काय म्हूण राजान तांकां विचारलें. बुदवंत परतेय येवजणेंत पडले.

तांचे कडेन हाची जाप नाशिल्ली. ''आमगेल्या पुस्तकांनी असल्या दाण्याची खबरूच ना. शेतकामत्यांकूच विचारिल्लें बरें, तांणी वा तांगेल्या जाणटेल्यांनी पळयल्यात आसतले असले दाणे,'' बुदवंतांनी राजाक सांगलें.

एका जाणट्यांतल्या जाणट्या शेतकामत्याक रोखड्या रोखडो आपणा सरीं घेवन येयात म्हूण राजान हुकूम सोडलो. शिपाय एका म्हाताऱ्या शेतकामत्याक रोखडे घेवन आयले. ताची फाट बागवल्ली, तोंडांत दांत नाशिल्ले, हात पांय थरथरताले, आनी दोनूय हातांनी दोन बडयो घेवन तो चलतालो. राजान ताका दाण्या विशीं विचारलें. शेतकामत्यान म्हणलें, ''असले दाणे हांवें केन्ना पळोवंक नात, वा रोवूंक नात; तांचे विशीं हांवें आयकुंकूय ना. घडये म्हज्या बापायक तांचे विशीं कितेंय खबर आसतलें.'' राजान त्या शेतकामत्याक ताच्या बापायक आपणा सरीं घेवन येवपाचो आदेश दिलो.

बापूय आयलो. सारको चलत आयलो. तागेल्या हातांत आदाराक एकूच बडी आशिल्ली. ताची नदर बरी आशिल्ली. ताणें तो दाणो हातांत घेतलो. राजान ताका विचारलें, ''जाणटेल्या, असल्या दाण्यांचें पीक खंय घेतात...? तुगेल्या शेतांत तुवें केन्ना असले दाणे रोयिल्ले, वा कोणें रोयिल्ले पळयल्ले, वा विकते घेतिल्ले ?''

जाणटेल्याक तितलेंशें बरें आयकूंक येना आशिल्लें. पूण पुताच्या कानां परस ताचे कान बरे आशिल्ले. ताणें जाप दिली, ''राजा, असले दाणे हांवें केन्ना रोवंक नात... आनी आमच्या काळार जाय आशिल्ली वस्त कोण केन्ना विकती घेना आशिल्लो. आपणाक लागपी धान्य-गोटो सगळे पिकयताले. दुसऱ्या कोणागेर उणें आसल्यार आपणें पिकयल्लें ताका दिताले. आमच्या वेळा वेले दाणे आयचे परस आकारान मोठे आसताले. पूण इतले मोठे न्हय. म्हजो बापूय असले तरेच्या दाण्यांचें वर्णन करतालो तें हांवें आयकलां...''

राजान म्हणलें, ''तशें जाल्यार वचून तुज्या बापायक घेवन यो.''

जाणटेलो वचून आपल्या बापायक घेवन आयलो. जाणटेल्यालो बापूय म्हातारो कसो दिसच नासलो. ताची नदर बरी आसली. कानूय बरे आसले. उलोवणें स्पश्ट आशिल्लें. आधाराक बडी घेना आसतना तो चलतालो. ताणें तो दाणो हातांत घेतलो आनी ताचो एक कुडको काडून तोंडांत घालो आनी म्हणलें, "खूब वर्सां जालीं, असले दाणे हांवें पळयल्यार..."

"आज्या, असले दाणे खंय रोयताले? आनी, तुवेंय ते रोयिल्ले, काय विकते घेतिल्ले?" राजान ताका विचारलें.

"म्हज्या तरणेपणांत सगळ्याक असलेच दाणे आमी रोयतालीं आनी खातालीं," शेतकामत्यान जाप दिली.

"खंयच्यान विकते हाडटाले तुमी ते?" राजान विचारलें.

शेतकामती हांसलो आनी म्हणूंक लागलो, "राजा, आमच्या काळार पयशे घेवन वस्त विकती दिवप पातक मानतालीं. आमी आमकां जाय आशिल्लें धान्य पिकोवनूच खाताले."

"तुमचें शेत खंय आशिल्लें?" राजान विचारलें.

"खंय म्हणल्यार? हेच देवाले भुंयेंत. हांव जंय नांगरतलों तें म्हजें शेत. आमच्या तेंपार 'तुजी जमीन', 'म्हजी जमीन' अशे ज़मनीचे वांटे नाशिल्ले. फकत आमचे स्रम आसताले..." शेतकामत्यान जाप दिली.

राजान म्हणलें, "म्हगेल्या दोन प्रस्नांक जापो दिल्यार उपकार जातले. पयलो प्रस्न : आदल्या तेंपार असल्या दाण्यांचे पीक घेताले, आतां कित्याक घेनात? दुसरो प्रस्न : तुगेलो नातू आधाराक दोन बडयो घेवन चलता. तुगेलो पूत एकूच बडी घेता. तूं सामको तरणाट्या बशेन चलता. तुजी नदरूय बरी आसा, उतरां स्पश्ट आसात. दांत अजून घट्ट आसात. तुका आयकुंकूय बरें येता. तुजो सभावूय शांत... हें अशें कशें?"

शेतकामत्यान जाप दिली, "आजय मनीस आपणाल्या स्वताच्या

वावराचेर निंबून जियेना. तो दुसऱ्यांच्या वावराचेर जियेता, परावलंबी जावन. आमच्या काळार आमी देवान आमकां जें दिल्लें ताचेर समाधानी आसताले. दुसऱ्यांचे वस्तीची आमकां आस नासताली, आनी आमच्या काळार आमी सगळीं देवाचोच न्याय मानतालीं..."

राजा आयकतूच उरलो.



# तीन बैरागी

एकलो बिस्म एका गांवच्या मठा थावन दुसऱ्या गांवाक बोटीन वतालो. ताचे बराबर कांय तीर्थयात्री आशिल्ले.

कांय तारवटी आनी यात्रीक दर्यांत पयस एके कडेन नदर लावन आशिल्ले बिस्मान पळयलें. ताणें तांकां विचारलें, ''कितें पळयतात तुमी?''

''हो नुस्तेकार सांगतालो, तो एक दीस वाट चुकून हेऽ त्या जुंव्यार पावलो. ताचे कपडे ओले जाल्ले, आनी व्हड्याकूय मातसो मार लागिल्लो. तेन्ना त्या जुंव्यार रावपी तीन बैरागी ताका पाविल्ले. ताचे ओले कपडे सुकोवपाक आनी ताचें व्हडें सारकें करपाक तांणी ताका खूब आदार केल्लो. तांकां लागून तो बरे बशेन परतल्लो...,'' तांणी जाप दिली.

तारवटी तो जुंवो दावे वटेन आसा म्हूण बोटान दाखयताले. पूण बिस्माक तेवटेन कांय दिसलेंना. ताणें नुस्तेकाराक त्या बैराग्यां विशीं कांय प्रस्न केले. नुस्तेकारान तांच्यो जापो दिल्यो. बैरागी खूब जाणटे आशिल्ले. तांकां धवीं खाडां आशिल्लीं. एकल्याचें खाड मात मातशें गोबरा कोराचें आशिल्लें अशें ताणें सांगलें. तिगूय बैरागी सामके देव-भक्त दिसताले, ताणें म्हणलें.

त्या बैराग्यांक पळोवपाची बिस्माक भोव इत्सा जाली. बोट मातशी जुंव्यार व्हरची म्हूण ताणें बोटीच्या मुखेल्या कडेन मागलें. मुखेली मातसो फाटीं फुडें आयलो पूण निमाणें तयार जालो. आनी, एका तारवट्या वांगडा एका व्हड्यार बसून बिस्म त्या जुंव्यार वचूंक भायर सरलो.

व्हडें जुव्यांक लागलें तेन्ना बिस्मान त्या तिगांय बैराग्यांक आपणाल्या खासा दोळ्यांनी पळयलें. तिगूय सांत कशे दिसताले. तांचे नदरेंत माया आनी दया भरिल्ली.

तांतलो एकलो खूब जाणटो आसलो. ताका पोंगूय पडिल्लें. दुसरो एकलो जिवान घटमूट दिसतालो. नुस्तेकारान सांगिल्लें, त्या जिवान घटमूट आशिल्ल्या बैराग्यान एकाच हातान ताचें व्हडें उरफाटें केल्लें. नुस्तेकारान केल्ली बैराग्यांची वर्णनां बिस्माक सामकी खरीं दिसलीं.

बिस्माक पळयलो तेन्ना बैराग्यांनी ताका नमस्कार केलो.

''तुमी देव-भक्त म्हूण हांवें आयकलां. दीस भर तुमी देवाची प्रार्थना करतात आसतले. हांव येशू ख्रिस्ताचो एक सादो सेवक. लोकांक येशूची शिकवण दिवप म्हजें काम. तुमकांय बी म्हाका येशू विशीं सांगन दिसता.'' बिस्मान म्हणलें.

जाणटेले एकामेकांक पळोवन हांसले, पूण कांय उलयलेनात.

बिस्मान तांकां विचारलें, ''तुमच्या आत्म्या पासत तुमी देवाची कसली सेवा करतात?''

हाचेर तो म्हालगडो बैरागी हांसलो आनी म्हणूंक लागलो, 'ह्या जुंव्यार देवाची सेवा कशी करची, आमी नकळ. आमी आमचें काम करतात आनी जिवीत सारतात.''

''पूण देवाची प्रार्थना तुमी कशे करतात?'' बिस्मान तांकां विचारलें.

''तुमी तेग जाण, आमी तेग जाण, अशेंच म्हणून आमी देवाची प्रार्थना करतात,'' एकल्यान जाप दिली. उलयतना तो वयर मळबाक

पळयतालो.

बिस्मान तांकां जेजू विशीं सांगलें आनी तो तांकां देवाची प्रार्थना शिकोवंक लागलो, "आमच्या बापा, तूं सर्गार आसाय..." ताचे फाटल्यान तिगूय जाणांनी म्हणलें, "आमच्या बापा तूं सर्गार आसाय...' एका बैराग्याक दांत नाशिल्ले. ताचे उच्चार सारके जाय नाशिल्ले. तो परतो परतो चुकतालो. देखून प्रार्थना शिकोवपाक बिस्माक वेळ लागलो. काळोखूय जाल्लो. तिगांय बैराग्यांच्या आदारान बिस्म बोटी कडेन आयलो. बैराग्यांनी ताका नमस्कार केलो, आनी बिस्म व्हड्यार बसून बोटी कडेन वचूंक लागलो. बैराग्यांक आपणें देवा विशीं सांगलें, तांकां देवाची प्रर्थाना शिकयली म्हूण तो भोव खोशी आशिल्लो.

बोटीर पावले उपरांत घडिल्ली सगली गजाल बिस्मान हेरां यात्रिकांक सांगली. तो उलयत आशिल्लो. इतल्यान बोटी फाटल्यान दर्यार तांची नदर गेली तेन्ना कसले तरी दिवे बोटी वटेन येतात ते तांणी पळयले. कसले काय दिवे हे? दुसरें एक व्हडें आसुंये, कांय तारवट्यांक दिसलें. पूण व्हड्या सारके कांय तांकां दर्यार दिसलें ना. व्हडेंय न्हय, नुस्तेंय न्हय, सुकणेंय न्हय... पूण दिवे बोटीचे दिकेनूच येताले. कितें जावंये हें? सगल्यांक प्रस्न पडलो. दिवे लागीं पावले तेन्ना तांकां ते तीग बैरागी दिश्टी पडले. हातांत दिवे घेवन जमनीर चलचें, तशे ते दर्या वेल्यान चलत येताले. सगळ्यांचीं मनां अजापान भरलीं. एका दोगांक भंयूय दिसलो.

बैराग्यांनी बोट थांबयली. आनी, बिस्मा कडेन पळयत, दर्यारूच दिमी घालून ते म्हणूंक लागले,

"बिस्म सायब, देवाच्या भक्ता, आमकां सांगूंक लज दिसता... तुवें इतल्या कश्टान आमकां शिकयल्ली प्रार्थना आमी विसरले. तूं ती आमकां परती शिकयशीत जाल्यार उपकार जायत..."

बिस्मान खुरसाची कुरू केली आनी तांकां सांगलें, "देवाचे मनीस

तुमी. तुमचीच प्रार्थना देवाक बेगीन पावता. म्हजे सारकेल्या मनशाक तुमकां शिकोवपाचो अधिकार ना. आमचे पासतूय तुमी देवा लागीं प्रार्थना करात. हेंच म्हजें नमळायेचें मागणें.''

बैराग्यांनी फाट केली आनी आदले वरी ते परते दर्या वेल्यान आपणाल्या जुंव्या वटेन चलूंक लागले.



# पातकी

सत्तर-एक वर्साचो एकलो जाणटेलो आशिल्लो. जिवितांत ताणें खूब पातकां केल्लीं. पूण हांथरुणार पडिल्लो आसतनाय ताका ताचें कांय दुख्ख जावंक नाशिल्लें, कसलोच पश्चात्तापूय जावंक नाशिल्लो. मरण सामकें लागीं आयलें तेन्ना हो जाणटेलो मनस्पुर्वेक रडलो आनी भक्तिभावान ताणें देवा कडेन मागलें, ''देवा, खुरसा वयल्या चोराक तुवें माफ केल्लो तसो म्हाकाय माफ कर.'' हे प्रार्थने उपरांत ताचो प्राण गेलो. आनी, ह्या म्हापातक्याच्या मनांत देवाचो मोग, ताची भक्ती आशिल्ल्या कारणान ताचो आत्मो सर्गाच्या दरवट्यार पावलो.

ताणें दरवट्याचेर टक टक केलें. भितरल्यान एक आवाज आयकूंक आयलो, ''सर्गाच्या दरवट्यार कोण हो मनीस? जिवितांत ताची चलणूक कशी आशिल्ली? ताणें कसल्यो करण्यो केल्ल्यो?''

तेन्ना एक कठोर, आरोप करपी, दुसरो आवाज आयलो- ''सर्गांत, पातक्यांक सुवात ना. वच तूं हांगासरल्यान.''

त्या मनशान जाप दिली, ''धनया, तुजो आवाज आयकूंक येता, पूण तोंड दिश्टी पडना. तुजें नांव कितें, म्हाका सांगशीत?''

“हांव जेजूचो धर्म प्रसारक, पीटर.”

तेन्ना पातक्यान म्हणलें, “सांत पीटर, म्हजी काकुळट कर. मनशाची दुर्बळकाय आनी देवाची सासणाची दया, हांचो उगडास दवर. तूं जेजू क्रिस्ताचो सेवक आशिल्लो तेन्ना तुवें ताचे मुखार बसून ताचे कडल्यान शिकवण घेतिल्ली. हांव तुजीच देख घेतां. उगडास कर, जेजू खूब दुख्खांत आशिल्लो तेन्ना तीन खेपे ताणें तुका जागो राव म्हूण सांगिल्लें. पूण तुजो दोळो लागिल्लो. म्हजेंय तशेंच जालें. जेजूचेर विश्वास आसा म्हूण तुवें ताका उतर दिल्लें. पूण, तीन खेपे ताका तुजी गरज आसतना तूं ताका पावलो ना. म्हजीय अवस्था अशीच जाल्ली... म्हाका सर्गांत भितर सोडूंकच जाय.”

आवाज बंद जालो.

कांय वेळ पातकी ओग्गी रावलो. उपरांत ताणें परतें दार खटखटायलें. भितरल्यान परतोय आवाज आयलो, “कोण हो मनीस, आनी संवसारांत तो कसो वागिल्लो?”

तेन्ना आरोप करीप आनीक एक आवाज आयकूंक आयलो, “वच हांगासरल्यान. तुज्या असल्या पातक्यांक आमच्या सर्गांत सुवात ना.”

पातक्यान म्हणलें, “धनया, तुजो आवाज आयकूंक येता, पूण तोंड दिसना. तुजें नांवूय हांव नकळ.”

“हांव डेवीड, राजा आनी पैगंबर,” आवाज आयलो.

पातकी निर्शेलो ना आनी सर्गाच्या दरवट्या पसून कुशिकूय सरलो ना.

“म्हाराज डेवीड, म्हजेर दया कर. मनशाची दुर्बळकाय आनी देवाची अखंड दया, हांचो उगडास कर. देव तुजो खूब मोग करतालो आनी ताणें तुका व्हडले सुवातेर दवरिल्लो. तुका जाय ती वस्त तुका मेळटाली. मान, धन, कितल्योश्यो बायलो आनी भुरगीं... पूण एक दीस तुजी नदर एका गरीब मनशाचे बायलेचेर पडली. आनी तुज्या

मनांत पातक आयलें. त्या गरीब मनशाक तुवें एका झुजांत झुजूंक धाडलो आनी ताका मरण येता शें केलें. मागीर ताचे बायलेक आपले सुवादीन घेतली... हांवेंय अशेंच पातक केलें आनी तुजे सारकोच म्हाका मनस्पुर्वेक पश्चात्ताप जालो. हांवें देवा कडेन चूक मागली. आतां तूं म्हाका सर्गांत कसो घेवचो ना?''

दुसरो आवाजूय बंद जालो.

कांय वेळान पातक्यान दारार परतें मारलें आनी आपणाक भितर घेवचो म्हूण मागलें.

''कोण हो मनीस? जिवितांत कशे तरेन वागिल्लो?'' आवाज आयलो.

आरोप करपी आनीक एक आवाज आयलो, ''हांगा राव नाका. वच. सर्गांत तुज्या असल्या पातक्यांक जागो ना.''

पातक्यान म्हणलें, ''तुजो आवाज आयकूंक येता, तोंड मात दिश्टी पडना. कोण तूं, मातसो सांगशीत?''

''हांव जेजूचो मोगाळ सेवक, पवित्र जॉन.''

तेन्ना पातकी खोशी खोशी जालो.

''आतां म्हाका खात्री आसा, सांत पीटर आनी राजा डेवीड म्हाका भितर घेतले. जण एकलो मनीस कितलो दुर्बळ आसता, आनी देवाची दया कशी सासणाची आसता ताची तांकां जाणवीक आसा. तुकाय देवाच्या मोगाची आनी दयेची पुराय वळख आसा. तुजें काळीज मोगान भरलां. तांतलो थोडो मोग म्हजेय खातीर आसतलो, हांव जाणां तुवें बरयलां, देव म्हणल्यार मोग, आनी मोग नाशिल्ल्याक देवाची वळख आसना; मोग नाशिल्लो देवाचो मोग करिना... तुवें तुज्या जाणटेपणांत आदेश दिल्लो- भावांनो, एकामेकांचो मोग करात, एकामेकांची प्रीत करात. आतां सांग, म्हाका तूं हांगासरल्यान कसो धांवडायतलो? एक तर तुजीं आदलीं सगलीं उतरां तुवें फाटीं घेवंक जाय, वा म्हजेय वयल्या मोगाक लागून म्हाका सर्गांत घेवंक

सर्गाचो दरवटो उक्तो करूंक जाय.''

सर्गाचो दरवटो उक्तो जालो. सांत जॉनान भायर येवन पातक्याक वेंग मारली आनी ताका सर्गांत भितर घेतलो.

# प्रीत आसा थंय देव आसा

एका गांवांत मार्टीन म्हूण एकलो मोची रावतालो. तो आपणाल्या कामांत कुशळ आसलो. गांवचो सगळो लोक ताचे कडल्यान व्हाणो मोचे शिंवन घेतालो, आनी मार्टीन व्हाणां मोच्यां वयल्यान गांवच्या लोकांक वळखतालो.

मार्टीनाचें जिवीत मात दुख्खा कश्टान भरिल्लें. तागेलीं चारूय भुरगीं ल्हान आसतनाच भायर पडिल्लीं. हालींच तागेली बायलूय गेल्ली, तीन-चार वर्सांच्या एका भुरग्याक फाटल्यान सोडून. जाणटेपणांत त्या भुरग्या खातीर मार्टीनान खूब त्रास काडले. पूण एक दीस तोय दुयेंत पडून मार्टीनाक संवसारांत एकलो उडोवन गेलो.

निमणो पुतूय गेलो तेन्ना मार्टीनाक दुख्ख सोंसूंक जालेंना. इगर्जेंत वचपाचेंय ताणें सोडून दिलें. फकत आपल्या दुख्खांत बुडून रावंक लागलो.

एक दीस, ताच्याच गांवांतलो एकलो जाणटेलो तागेर पावलो. हो जाणटेलो सामको देवभक्त आसलो. ताणें खूब तीर्थयात्रा केल्ल्यो आनी आतां तो पाद्रींच्या एका मठांत रावतालो. मार्टीनाची आवतिकाय पळोवन जाणटेल्याक खूब वायट दिसलें, आनी तो ताका उपदेश करूंक लागलो. मार्टीनान ताका सांगलें, ''खूब सोंसलें हांवें...

आनी आनीक सोंसपाची तांक ना म्हज्यांत. आतां हांव देवा कडेन फकत मरण मागतां...''

जाणटेल्यान म्हणलें, ''अशें उलोवपाचो अधिकार आमकां ना. ह्या संवसारांत सगळें देवाचेच इत्सेन चलता. ताची इत्सा आसा म्हूण तूं अजून जियेता. ताचे खातीरूच तुवें जियेवंक जाय... ह्या भावार्तान चल्ल्यारूच तुज्या मनाक शांती मेळटली, आनी तुजीं सगलीं दुख्खा सोंपतलीं.''

जाणटेल्यान मार्टीनाक पवित्र पुस्तक वाचूंक सांगलें आनी तो दुसऱ्या गांवात गेलो

मार्टीनाक जाणटेल्याचें म्हणणें खरें दिसलें आनी त्या दिसा सावन तो सदां पवित्र पुस्तकाचें वाचन करूंक लागलो.

पवित्र पुस्तकाच्या वाचनान मार्टीनाच्या मनाक शांती मेळूंक लागली. ताच्या दुख्खाचो भार उणो जावंक लागलो. एक एक दीस ह्या वाचनांत मार्टीन इतलो गुल्ल जातालो कीं मेणवात कडून सोंपल्या हाची लेगीत ताका चत्राय उरनाशिल्ली.

एक दीस मार्टीन पवित्र पुस्तकांतलें लुकाचें 'पुस्तक' वाचतालो. येशूच्या जिवितांतली एक घडणूक तातूंत आयिल्ली. येशूक एका गिरेस्ताचो आधार मेळ्ळो ना पूण एक गरीब बायल-मनीस ताच्या आधाराक पावली- ह्या अर्थाची. ''कोणेंय तुज्या एका पोल्यार मारल्यार तूं तुजो दुसरो पोलोय मुखार कर... दुसऱ्यान तुका मान दिवचो शें दिसता जाल्यार पयलीं तूं दुसऱ्याक मान दिवंक शीक... दुसऱ्याक दिल्ली वस्त केन्नाच परती मागूं नाका...'' हें सगळें वाचतकच मार्टीनाक दिसलें, हे भाशेन आपूण केन्ना चल्लों ना. खंतीन ताचें मन भरून आयलें. पूण वांगडाच येशूचे शिकवणेन ताच्या मनाक थाकाय मेळ्ळी.

पुस्तक मेजार दवरून मार्टीन विचार करूंक लागलो. ''सगलें देवाचे कृपेनूच चलता. हांवूय बी ताचे इत्से प्रमाणूच चलतालों. ताणें

थारावणी घेतली. ''मनशा भितर तृप्ती आसूंक जाय... म्हजे कडेन कितलेय दुडू जावं, हांव दुडवांकारां भाशेन केन्ना वागचों ना.. अतिथी कोणूय जावं, हांव ताका मानान, म्हज्या घरा आपोवन ताचो आदर सत्कार करतलों. अतिथीक हांव देव लेखून चलतलों...''

कांय वेळ मेजार तकली दवरून मार्टीनान दोळे धांपले. इतल्यांत, कोण तरी 'मार्टीन! मार्टीन!, म्हूण उलो मारता अशें ताका दिसलें. तो दारा कडेन पळोवंक लागलो. थंय कोण नाशिल्लो. परतेय मार्टीनान दोळे धांपले. ''मार्टीन! हांव फाल्यां येतां... म्हजी वाट पळय...'' ताच्या कानार परतोय तोच आवाज पडलो.

''कोणाचो आवाज काय देवा हो?!'' मार्टीन येवजीत रावलो. ''देवाचोच बी न्हय मूं!?'' ताका दुबाव आयलो.

मार्टीन मोचे करूंक बसतालो ते ल्हानशे कुडीक एकूच जनेल आसलें. थंयच्यान रस्त्या वेले येतले वेतले ताका दिश्टी पडटाले. दुसऱ्या दिसा जनेलाचेर नदर दवरून तो आपलें काम करीत रावलो.

रस्त्या वेल्यान जाणटेलो स्टिफानिच शिंयांत कुडकुडत वतालो तो ताका दिश्टी पडलो. ताच्या आंगार पिंजके, पोरणे कपडे आशिल्ले. आंगार बर्फय पडिल्लें. खीण भर मार्टीनाक दिसलें, हो ज़ेजू. उपरांत ताका आपणाल्या पिशेपणाचेर हांसो आयलो... स्टिफानिच भितर आयलो. मार्टीनान ताका बसपाक एक कदेल दिलें. पियेवंक हुनहुनीत च्या दिली. स्टिफानिचाक बरें दिसलें. च्याचे चार पांच पेले पियेतकच ताचो कुडकुडो कमी जालो.

मार्टीनाची नदर अजून जनेला भायल्या रस्त्याचेरूच आशिल्ली. ''कोणाची वाट पळयता तूं?'' स्टिफनिचान ताका विचारलें. ''रातीं सपनांत म्हाका जेजून येतां म्हूण सांगिल्लें,'' मार्टीनान ताका जाप दिली. ''अशें?'' स्टिफानिचान म्हणलें. ''असली खबर आयकल्या हांवें.'' अशें म्हणून मार्टीनाचे उपकार मानून तो भायर सरून गेलो.

कांय वेळान मार्टीनाक रस्त्यार एकली गरीब, अशक्त बायल-

मनीस दिश्टी पडली. तिचे हांडीर एक भुरगें आशिल्लें, आनी तें भुकेन रडटालें. दोगांय शिंयान कुडकुडटालीं. मार्टीनाचो जीव कळवळ्ळो. ताणें तिका घरांत भितर घेतली. पियेवपाक हुनहुनीत च्या दिली. पांगरूंक आपली शाल दिली, कोट दिलो. तिकाय मार्टीनान आपल्या सपनाची खबर सांगली. तिणें म्हणलें, ''जेजूनूच म्हाका हांगा धाडल्या आसतली. नाजाल्यार येन्नासर थंडेन आनी भुकेन आमी मरतूय आशिल्लीं.'' तिणेंय मार्टीनाचे उपकार मानले आनी ती भायर सरून गेली.

मार्टीनाच्या जनेला मुखावेल्या रस्त्यार एकली म्हातारी पांटलो घेवन फळां विकूंक बशिल्ली. तिचे म्हऱ्यांत एक ल्हान भुरगो आयलो आनी पांटल्यांतलें एक सफरचंद घेवन ताणें धांव मारली. म्हातारीय रागान ताचे फाटल्यान धांवली. आनी, ताच्या केशट्यांक धरून ताका मारूंक लागली. भुरगो रडपाक लागलो. मार्टीनाक भुरग्याची काकुळट दिसली. भायर वचून ताणें भुरग्याक सोडयलो. ''आगे एक फळ काडलें म्हूण तूं हाका इतली मारता जाल्यार जल्मभर केल्ल्या पातकांक लागून जेजून आमकां कितलीं मारूंक फावो? भुरग्यांक आमी देख दिवन उजू वटेन हाडूंक जाय.'' मार्टीनान म्हातारेक म्हणलें. आनी, भुरग्याक तिची चूक मागूंक सांगलें. इतलेंच न्हय, फळांचो पांटलो जाणटेलेच्या माथ्यार चडोवंक हातभार लावंक लायलो.

तिनसांज जाली. मार्टीन घरांत भितर गेलो. मेणवात पेटयली आनी 'पवित्र पुस्तक' वाचूंक बसलो. वाचतां वाचतां ताका काना कडेन कालचोच आवाज आयकूंक आयलो. ''मार्टीन, तूं म्हाका वळखलो ना?... हांव तुका मेळूंक आयिल्लों...'' ''केन्ना...? कसो...?'' मार्टीनान उचंबळीत जावन विचारलें. ''स्टेफानिच, गरीब बायल-मनीस, भुकेल्लो भुरगो आनी ती म्हातारी-तिगांयच्या रुपान...'' अशें म्हणून तो आवाज बंद जालो. मार्टीनाचें काळीज खोशयेन भरलें. ताणें खुरसाची कुरू केली आनी आशिल्लो तसो 'पवित्र पुस्तक' वाचूंक

लागलो. तातूंत बरयिल्लें-

"हांव भुकेल्लों, तुवें म्हाका खावंक दिलें. हांव तानेल्लों, तुवें म्हाका पियेवंक दिलें. हांव परको आशिल्लों, तुवें म्हाका आपलेपणान घरांत भितर घेतलो..." आनी निमाणें, "म्हज्या भावंडांची तूं सरबराय करता तेन्ना ती म्हजीच केल्लेवरी जाता."

मार्टीन तेन्ना समजलो, ताचें सपन खरें आसलें. येशूच तागेर आयिल्लो. येशूचीच ताणें सरबराय केल्ली- आदरान, मोगान...

# तीन प्रस्न

एका देशाच्या राजाक राजकारबारांत सुधार हाडपाक तीन प्रस्नांच्यो जापो जाय आशिल्ल्यो. हे तीन प्रस्न अशे : कसलेंय काम सुरू करपाक बरो वेळ खंयचो? मनशां भितर कोणाक म्हत्व दिवचें? आनी, खंयचे काम म्हत्वाचें?

विद्वान, आचार्य, पंडीत- सगल्यांक राजान राजम्हालांत आपयले आनी तांचे लागीं ह्या प्रस्नांच्यो जापो मागल्यो. आपणाल्या मनाक पटत ते जापेक इनाम दिवपाचेंय थारायलें.

पूण ते बुदवंत तरातरांनी जापो दिवंक लागले. एकल्यान म्हणलें, ''काम सुरू करचे पयलीं पत्रिका काडूंक जाय.'' दुसऱ्यान म्हणलें, ''तसली पत्रिका काडप असंभव.'' कांय जाणांनी म्हणलें, ''काम सारक्या वेळार केल्यार यश मेळुंकूच जाय.'' आनीक एकल्यान सांगलें, ''पांच-स विद्वानांची एक सभा घडोवन तांचे कडल्यान बुद्द घेवची.''

दुसऱ्या प्रस्नाकूय तश्योच जापो मेळ्ळ्यो. विद्वान, शिपायक, मंत्रवादी, आचार्य, वैद्य, पुरोहीत बी म्हत्वाचे मनीस. तसल्यांक राजान लागीं दवरचे.

तिसरो प्रस्न आसलो म्हत्वाच्या कामा विशींचो. बुदवंतांनी वेगळीं वेगळीं कामां म्हत्वाचीं म्हूण सांगलें. एकल्यान म्हणलें, विज्ञान म्हत्वाचें. दुसऱ्यान म्हणलें देवाचे पुजा पाठ. तिसऱ्यान म्हणलें, झुजाचें गिन्यान.

ह्या जापांनी राजाच्या मनाचें समाधान जालें ना. कोणाकूच ताणें इनाम दिलें ना.

थंय लागींच रानांत एक गिन्यानी जाणटेलो रावता म्हूण राजाच्या कानार आयलें. ताका मेळून ह्या प्रस्नांच्यो जापो मेळटात काय पळोवचें म्हूण राजान थारायलें. हो गिन्यानी रानांतूच रावतालो. राना भायर तो केन्ना वच नाशिल्लो. सद्या सरसमान लोकां कडेनूच ताचे संबंद आशिल्ले. राजानूय सरसमान लोकां वरी भेस केलो, आनी तो गिन्यान्याक मेळूंक गेलो. खोंपी भायरूच तो राजाक दिश्टी पडलो. म्हातारपणाक लागून जाणटेलो दुबळो आनी असकत दिसतालो.

राजान गिन्यान्याक नमस्कार केलो आनी ताका ते तीन प्रस्न विचारले, ''उच्च काम खंयचें, उच्च कामा खातीर उच्च वेळ खंयचो तें म्हाका कशें कळटलें? खंयच्या कामाक, खंयच्या मनशाक केन्ना, कशें म्हत्व दिवप तें हांवें कशें पारखुचें?'' राजान विचारलें.

जाणटेल्यान प्रस्न आयकून घेतले पूण जाप दिली ना. खोरें घेवन जमनींत चर खणपाचें काम तो करीत रावलो. एक जाणटे पिरायेचो असकत मनीस असो जमीन खणटा तें पळोवन राजाक ताची काकुळट दिसली. राजान ताच्या हातांतलें खोरें घेतलें आनी आपूण खणूंक लागलो. जाणटेल्यान राजाचे उपकार मानले, आनी आपूण कुशीक वचून जमनीर बसलो.

दोन चर खणून जातकच राजाक मातशें पुरो जालें. ताणें खणप थांबयलें आनी जाणटेल्या सरीं येवन ताका परतेय ते तीन प्रस्न विचारले. आदले वरीच जाणटेल्यान कांयच जाप दिली ना. तो उबो रावलो आनी म्हणूंक लागलो, ''तुका पुरो जालां आसतलें. मातसो

वेळ सुशेग घे. आतां हांव मातसो खणटां.'' राजान खोरें ताका दिलेंना. आपुणूच परतो खणपाच्या वावराक लागलो.

सूर्यास्ताचो वेळ जाल्लो. काळोख जावंक लागिल्लो. राजान खोरें जमनींत खोयलें आनी जाणटेल्या सरीं वचून म्हणूंक लागलो, ''गिन्यानी जाणटेल्या, म्हजे तीन प्रस्न घेवन हांव तुमचे सरीं आयिल्लों. पूण तुमी म्हाका कांयच जाप दिनात. हांव घरां वतां.''

तेन्ना जाणटेलो म्हणूंक लागलो, ''हे थंय पळय, एकलो आकांतान धांवत हेवटेन येता. कोण तो, पळोवया.''

राजान फाटल्यान वळून पळयलें. एकलो खाडा मिशयांचो मनीस जिवाच्या आकांतान म्हणटात तसो धांवत तांचे वटेन येतालो. दोनूय हात ताणें पोटार दांबून दवरिल्ले. थंय साकून रागत व्हांवतालें. धांवत येवन राजाच्या पांयां सरीं तो बेशुद्ध जावन पडलो. राजान आनी जाणटेल्यान त्या मनशाचें आंगावेलें वयर काडून पळयलें. पळयत जाल्यार पोटाक एक व्हडलो घाय जाला, आनी तातूंतल्यान भळभळीत रगत व्हांवता. रगताचें व्हांवप थांबोवपा खातीर राजान आपणालो लेंस उदकांत भिजयलो आनी तो घायार दवरलो. खूब फावटीं अशें करतकच त्या मनशान दोळे उक्ते केले आनी पिवपाक उदक मागलें. राजान रोखडेंच उदक हाडून दिलें. उपरांत ताणें आनी जाणटेल्यान, दोगांयनी मेळून, त्या मनशाक खोंपी भितर व्हेलो आनी खाटीर न्हिदयलो. जमीन खणून राजाकूय बरेंच पुरो जाल्लें. तोय जमनीर आड पडलो आनी थंयच ताचो दोळो लागलो.

सकाळ जाली आनी राजाक जाग आयली. कांय वेळ, आपूण हांगा जमनीर कसो पडलां काय म्हूण ताका अजाप जालें. उपरांत घडिल्ली सगली गजाल ताचे मतींत आयली. तो उठून बसलो. ताणें खाटी कडेन पळयलें. तो घायाळ जाल्लो मनीस भरिल्ल्या दोळ्यांनी राजाकूच पळयतालो. सामको ल्हवू आवाजान तो उलोवंक लागलो, ''राजा, तुमी म्हाका वळखुचेनात. पूण तुमची म्हाका बरी वळख

आसा. हांव तुमची माफी मागतां...'' राजाक सामकें अजाप जालें. ''हांव तुका वळख लेगीत ना आनी तूं म्हजी माफी कित्याक मागता?'' ताणें विचारलें. तेन्ना तो मनीस म्हणूंक लागलो, ''तुमी म्हज्या भावाक फांशी दिवंक लायिल्ली, आनी ताचे भाट काडून घेतिल्लें. तेन्ना हांवें तुमकां जिवेशीं मारपाची भास घेतिल्ली. तुमी रानांतल्यान भायर येतले आनी हांव तुमचो जीव घेतलों म्हूण हांवें थारायल्लें. पूण तुमच्या शिपायांनीच म्हाका तलवारींनी घायाळ केलो. हांव कसो तरी तांच्या हातांतल्यान सुटलों आनी हांगा तुमच्या पांयां सरीं येवन पडलों. घायाक लागून हांव मरपाचों. पूण तुमी म्हजो जीव वाटायलो. आतां हांव वांचून उरल्यार तुमचो दुस्मान न्हय तर तुमचो विस्वाशी दास जावन तुमची सेवा करतलों. रायानूं, म्हाका माफ करात. म्हजी व्हड चूक जाली.''

राजान खोशयेन त्या मनशाक माफ केलो. इतलेंच न्हय तर ताका सांगलें, ''हांव म्हगेल्या वैद्या कडल्यान तुजो सारको उपचार करून घेतां, आनी तुमगेलीं भाटांय तुमकां परतीं दितां.''

मागीर राजा भायर वचून जाणटेल्याक सोदूंक लागलो. पयल्या दिसा खणिल्ल्या चरांत जाणटेलो बियो घालतालो. राजा ताचे सरीं गेलो आनी ताका म्हणूंक लागलो, 'गिन्यानी जाणटेल्या, निमाणे फावटी हांव तुमकां म्हजे प्रस्न विचारतां...'' जमनीर उकडयां बशिल्लो गिन्यानी राजा कडेन पळोवन म्हणूंक लागलो, ''तुज्या प्रस्नांच्यो जापो तुका आदींच मेळ्ळ्यात. हांवें आनीक कांय सांगपाचें उरूंक ना.''

राजान म्हणलें, ''हांव समजूंक ना...''

जाणटेल्यान म्हणलें, ''लक्ष दिवन आयक. काल सांजे, म्हज्या दुबळेपणाची काकुळट दिसून तुवें जमनीर तीन चर खणले. तूं आयिल्ले वाटेन परतल्लो जाल्यार हो मनीस तुजो जीव घेतलो आशिल्लो. तेन्ना समज, तो वेळ म्हत्वाचो, आनी म्हत्वाचो वा उच्च

मनीस हांव, आनी बियो घालपा खातीर खणिल्ले चर, म्हत्वाचें काम. मागीर, त्या घायाळ मनशाचेर तुवें काळजेन उपचार केलो. तो वेळ म्हत्वाचो जालो. तुजो उपचार नाशिल्लो जाल्यार, हो मनीस मरतलो आशिल्लो. तेन्ना हो मनीस म्हत्वाचो जालो, आनी तुवें केल्लो उपचार म्हत्वाचो वावर जालो.''

''राया, हें मनांत दवर-उच्च वेळ केन्ना म्हणल्यार, एकूच जाप-आतां, होच म्हत्वाचो वेळ, कारण ह्या वेळार आमकां शक्त आसता. आनी, म्हत्वाचो मनीस कोण म्हणल्यार, त्या वेळार तुजे बराबर आसता तो. तोच उच्च मनीस. आनी म्हत्वाचें काम म्हणल्यार, त्या कोणाय मनशा खातीर बरेपण करपाचें, आदार करपाचें काम. जाता तितलो आदार करचो. पेल्याचें बरें करचें होच उद्देश आमच्या जिविताचो.'फ

■

# शेतकार आनी सैतान

एक शेतकार आशिल्लो. एक दीस फांतोडेर उठून तो शेत नांगरूंक गेलो. वतना ताणें खावपाक एक उंड्याचो कुडको व्हेल्लो. कामाक लागचे पयलीं ताणें आपल्या आंगावयली ज्युदी देंवोवन एका रुखा पोंदा दवरली. ज्युदये मुळा उंड्याचो कुडको दवरलो. उपरांत घोड्याक घेवन तो काम करूंक लागलो. दनपारचो थोडो विसव घेवचो आनी पोटांतूय कितें घालचें म्हूण ताणें घोड्याक सोडलो, आनी झाडा मुळांत आयलो. झाडा मुळा दवरिल्ली ज्युदी वयर काडून पळयत जाल्यार तिच्या पोंदा दवरिल्लो उंड्याचो कुडको ना. अशें कशें जावचें, शेतकाराक अजाप जालें. ह्याच हातांनी हांगाच दवरिल्लो उंडो खंय वचचो? तो येवजणेंत पडलो. घोड्यान तण खालें. शेतकार मात उपाशींच उरलो.

उंड्याचो कुडको सैतानाच्या एका दासान लिपोवन दवरिल्लो. ताका दिशिल्लें, उंडो ना तें पळोवन शेतकाराक राग येतलो, ताच्या तोंडांत वायट उतरां येतलीं, आनी हें पळोवन सैतान खुशालभरीत जातलो. पूण घडलें वेगळेंच. शेतकाराक राग आयलो ना. ''आसूं, गेलें तें गेलें. कोणाक तरी म्हजेय परस चड भूक लागल्या आसतली. देव ताचें बरें करूं,'' ताणें मनांत म्हणलें आनी बांयचेर वचून इल्लें

उदक पियेलो. मागीर घोड्याक घेवन परतोय कामाक लागलो.

सैतानाचो दास निर्शेलो आनी आपणाल्या धनया सरीं गेलो. ताची खबर आयकून सैतानाक खूब राग आयलो, 'तुजीच चूक... तुजें काम कशें करचें तेंच तूं नकळ. हो शेतकार, हेर शेतकार आनी तांचीं बायलां अशीं वागूंक लागल्यार आमी काम नाशिल्ले जावन पडटले. तूं आत्तां परतो वतलो आनी सारकें काम करून येतलो. तीन वर्सां भितर तुका जैत मेळ्ळेंना जाल्यार राव दाखयतां, तुका पवित्र उदकांत बुडयतां...'' सैतानान म्हणलें. दास सामको भियेलो, ताणें थंयच्यान पळ काडलो. धनयाचो आदेश पाळ्ळे बगर उपाय ना... कितें करचें, तो येवजणेंत पडलो.

एका शेतकाराचोच भेस करून तो त्या शेतकारा म्हऱ्यांत वचून वावरूंक लागलो. ''अंदू ओलें मातयेंत मक्याचें पीक घे,'' ताणें शेतकाराक बुद्द दिली. त्या वर्सा पावस खूब उणो पडलो. बाकीच्या शेतकारांनी दोंगरार रोयिल्लें मक्याचें बीं सामकें सुकून गेलें. ह्या शेतकाराचें पीक मात बरें जालें. गरजे परस चड. दुसऱ्या वर्सा सैतानाच्या दासान शेतकाराक दोंगरार पीक घेवंक सांगलें. हेरांच्या पिकाची जाल्ली तीच ह्या शेतकाराच्या पिकाचीय अवतिकाय जावची असो सैतानाच्या दासाचो हेत आशिल्लो. पूण घडलें वेगळेंच. त्या वर्सा सुमारा भायर पावस झडलो. हेरांचें पीक पावसान व्हांवन, कुसून पाड जालें. ह्या शेतकाराचेंच भोव बरें जालें. आनी गरीब आशिल्लो तो शेतकार ह्या पिकाक लागून धपक्याक गिरेस्त जालो.

सैतानाच्या दासाच्या वांट्याक दोनूय खेपे अपेस आयलें. ताणें नवी येवजण आंखली. मक्याचें पीठ करून उदकांत फुगत घालून ताचो सोरो कसो करप तें ताणें शेतकाराक शिकयलें. शेतकार सोरो करूंक शिकलो आनी पिवंकूय शिकलो. आपणाल्या इश्टांक आपोवन तांकांय तो सोरो घालूंक लागलो.

सैतानाचो दास खोशी जावन सैताना सरीं गेलो. आपणाल्या

कामाची व्हडवीक ताणें सैतानाक सांगली. ‘‘आदीं घडिल्ल्या सगल्या चुकींची आतां भरपाय जातली,’’ ताणें म्हणलें. आयकून सैतानाकूय बरेंऽ दिसलें. ‘‘हांवूच शेतकारागेर वचून खरेपण करून घेतां,’’ ताणें म्हणलें.

सैतान शेतकारागेर पावलो. ताणें पळयलें, शेतकार आपणाल्या गिरेस्त इश्टां वांगडा सोरो पियेवंक बसला. शेतकाराची बायल पावण्यांच्या रित्या जाल्ल्या ग्लासांनी आनीक सोरो घालता. अचकीत चुकून तिचो पांय मेजाक आपटलो आनी एका ग्लासांतलो सोरो जमनीर पडलो. शेतकाराक आयलो राग. ‘‘सामकी बोड नाशिल्ली बायल मगे तूं. सारकें चलपाक येना तुका? सोरो हो. खळयेंतल्यान व्हांवपी म्हेळें उदक न्हय तें, कळ्ळें? ताणें म्हणलें.

दासान सैतानाक कोंपर मारलो. ‘‘पळयलें? होच न्हय तो मनीस, ताचो एकूच उंड्याचो कुडको ना जाल्लो तेन्ना खंती जावंक नाशिल्लो तो? आतां पळय कसो जाला... पळयत राव...’’ ताणें म्हणलें.

बायलेक खेपीत शेतकार आतां आपुणूच पावण्यांक सोरो घालूंक लागलो. तेन्ना एक गरीब मनीस सालांत भितर सरलो. दीस भर काम करून ताका पुरो जाल्लें. तो पावण्यां म्हऱ्यांत येवन बसलो, सोऱ्याचे आशेन. पूण कोणेंच ताका सोऱ्याचें कोप दिलेंना. हेरांक सोरो पियेतना पळोवन ताच्या तोंडाक उदक सुटलें. आशेन ताणें घरच्या यजमानाच्या तोंडा कडेन पळयलें. यजमान फणफणलो. ताणें म्हणलें, ‘‘घरांत कोणूय भितर सरता ताका घालूंक सोरो ना म्हजे कडेन...’’

आयकून सैतान खोशी जालो. दासूय हांसलो. ताणें म्हणलें, ‘‘आनीक मातसो राव... आनिकूय मजा जावपाची आसा.’’

गिरेस्त शेतकार एकामेकांच्या सांगातान बरेंऽ पियेले. पियेतकच एकामेकांची तुस्त करूंक लागले. खरेली तुस्त न्हय, फटकिरी. सामकी फटकिरी.

तांचें उलोवणें आयकून सैतानान म्हणलें, ‘‘बरें काम केलें तुवें.

इतले पियेवन ते कोल्यां वरी जाले पळय एकामेकांची फटीची तुस्त करूंक लागले. अशेच उरले जाल्यार सगळे आमच्या हातांत पडटलें.'' हाचेर दासान म्हणलें, ''आनीक कांय ग्लास पियेले उपरांत कशे वागतात तें पळयले. आतां कोल्या वरी चलतात. आनीक कांय वेळान कोलसुण्यां वरी जातले. एकामेकांचे कुडके तोडूंक लागतले.''

शेतकार आनीक इल्ले पियेले. आतां तांची चलणूक बदल्ली. उलोवपांत गाळी येवंक लागल्यो. सुरवेक निखट्यो गाळी. इल्ले इल्ले करून एकामेकांचेर हातूय उबारूंक लागले. यजमानूय हे मारामारींत वांटो घेवंक लागलो.

सैतान आनिकूय खोशी जालो, ''वा! उत्तम!... अती उत्तम'' ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं.

दासान म्हणलें, ''राव, राव... इतल्यान सोंपूंक ना. सगळ्यांत बरो देखाव आतां रोखडोच पळोवंक मेळपाचो आसा.''

आनीक इल्लो सोरो पोटांत गेले उपरांत शेतकार आनिकूय बडबडूंक लागले. मोठ्या मोठ्यान. ते कितें उलयताले, तांकांच खबर नाशिल्लें. बोबो मारिल्ले वरी उलयताले. कोण कोणाचें आयकनाशिल्लो.

आनीकय आनीक सोरो पोटांत वचना जालो तेन्ना पावणे घरा वचूंक भायर सरले. कोणाच्यानूच नीट पावलां घालूंक जायना आशिल्लें. यजमान तांकां पावोवंक दारा म्हऱ्यांत गेलो. ताच्यान धड उबोय रावंक जायना आशिल्लें. दारा म्हऱ्यांत तोल वचून तो सकल पडलो. ताच्या तोंडाक, आंगाक माती लागली. पडिल्ले कडेन तो दुकरा वरी आवाज काडूंक लागलो.

हें पळोवन सैतानाक सामको आनंद जालो. ताणें आपणाल्या दासाक म्हणलें, ''बरी माण्णी केली तुवें. आतां तुज्यो पयलींच्यो चुको विसर... पूण म्हाका एक सांग, सोरो तुवें कसो तयार केलो? म्हाका दिसता, तातूंत तुवें कोल्याचें रगत घालां आसतलें, म्हूण ते कोल्या

भशेन वागूंक लागले; कोलसुण्याचें रगत घालां आसतलें, म्हूण ते कोलसुण्या वरी भयंकर जाले; आनी दुकराचेंय रगत घालां आसतलें, म्हूण ते दुकरा भाशेत मातयेंत लोळूंक लागले. मोटो हुशार रे तूं!''

"ना सायब, ना. तशें कांय करूंक ना,'' सैतानाच्या दासान म्हणलें. "मनशाक गरजे पुरते खाण-जेवण मेळ्ळ्यार तो बरे भाशेन वागता. हांवें ताका भरपूर धान्य मेळशें केलें. शेतकारा कडेन एकूच उंड्याचो कुडको आशिल्लो तेन्ना तो खरेलो सुखी आशिल्लो. ताका गरजे परस चड धान्य मेळ्ळें तेन्ना ताचो वापर तो आपणाक अदीक अदीक आनंद मेळोवपाक करूंक लागलो. देवान दिल्ल्या देण्याचो तो वांकडो वापर करूंक लागलो. अशें जातकच मनशा भितर लिपून आशल्ले कोलो, कोलसुणो आनी दुकर भायर आयले... आतां तो असोच पियेत रावलो जाल्यार रोखडोच जनावर जावन पडटलो...''

सैतानान दासाची तुस्त केली, ताच्यो आदल्यो चुको ताका माफ केल्यो आनी ताका व्हडले सुवातेर व्हरून बसयलो.



# एलियास

एलियासाचो बापूय भायर पडलो तेन्ना एलियासा खातीर इल्लोसो भाटा कुडको, सात-आठ घोडे, दोन गायो आनी वीस-एक मेंढरां इतलीच कितें ती आस्पत तो फाटल्यान दवरून गेल्लो. पूण एलियास बरो कारभारी आशिल्लो. आनी घरकान्नूय ताका बरी आदार दिताली. दोगांय स्रद्धेन वावुरतालीं, कश्ट करतालीं. हाका लागून तांचे गिरेस्तकायेंत वेगान भर पडूंक लागली. एलियासान नवीं भाटां घेतलीं, घोडे, गोरवां, मेंढरां घेतलीं. पस्तीस वर्सां उपरांत तो गांवचो मुखेल भाटकार आशिल्लो. घरचें, भायलें सगलें काम करूंक चाकर आशिल्ले. गांवच्या लोकांक दिसतालें, एलियास खरेलोच नशीबवान, ताचें जिवीत कितलें खोशयेन भरिल्लें आसतलें! व्हडले व्हडले लोक एलियासाक मेळूंक येताले. कोणूय येवं, एलियास तांकां जेवण-खाण भरपूर दिवन धाडटालो.

एलियासाक तिगां भुरगीं आशिल्लीं. दोग पूत आनी एक धूव. तिगांयचीं ताणें लग्नां केल्लीं. एलियास दुर्बळ आसलो तेन्ना ताचे पूत ताचे वांगडा वावुरताले, कश्ट करताले. तांची गिरेस्तकाय वाडली तेन्ना ते वायट मार्गान वचूंक लागले. एकलो पूत ताव्हेनांतल्या एका केस्तांवांत जीव वगडावन बसलो. दुसऱ्याची बायल घमेंडी आसली.

तो बापायचें कितेंच आयकना जालो, आनी बायलेक घेवन दुसरें बिराड करून रावंक लागलो. तो घर सोडून वतना एलियासान एक घर, थोडीं गोरवां बी ताच्या नांवार केलीं.

त्याच वर्सा मेंढरांक कसले तरी पिडेची लागण जाली, आनी कितलींशींच मेंढरां मेलीं. शेत रोयिल्लेंय पाड जालें. गोरवां मेलीं... हें सगलें उणें म्हणून किरगिझ गांवचो एक पंगड आयलो आनी एलियासाचे बरे घोडे चोरून घेवन गेलो. थोड्याच काळा भितर गिरेस्त एलियास दुर्बळ जालो. म्हातारपणाच्या दुर्बळपणानूय ताका धरलो. सत्तर वर्सां पिराय जाल्ली तेन्ना आंगा लगले कपडे तितलेच उरिल्ले. म्हारग म्हारग वस्तू सगल्यो विकून सोंपिल्ल्यो. घरांत कांयच उरूंक नाशिल्लें. तो आनी ताची बायल सामकी निराधार जाल्लीं. धुवूय पयलींच मेल्ली. पूत भायल्या गांवांत रावतालो. तांच्या आधाराक कोणूच नाशिल्लो. जेवणाक लेगीत तीं पातिशेर जातालीं.

महंमद शाह म्हूण तांचो एकलो शेजारी आसलो. ताका एलियासाची आनी ताचे बायलेची खूब काकुळट दिसली. एक दीस एलियासाक मेळून तो म्हणूंक लागलो, ''हांव खूब गिरेस्त न्हय. पूण तुमची ही स्थिती म्हज्यान पळोवं नज तुमी म्हगेर रावंक येयात. तुमचे तांकी प्रमाण कितेंय काम करात. हांव तुमकां जेवण-खाण आनी रावपाक सुवात दितां.'' हीं मायेचीं उतरां आयकून एलियासान ताचे खूब उपकार मानले, आनी त्या दिसा सावन तीं दोगांय शेजाऱ्यागेर वचून रावंक लागलीं. वावराड्या वरी तागेर वावुरपाक लागलीं. काम तशें चड नासतालें. पूण तीं तांचे शक्ती प्रमाण स्रद्धेन तें करतालीं. एलियासा सारको मनीस वावुरपी म्हूण मेळिल्ल्यान महंमद शाहच्याय खूब बऱ्याक पडिल्लें. एलियास आनी ताची घरकान्न जाणटीं आशिल्लीं पूण आळशी नाशिल्लीं. कश्ट घेवन काम करतालीं. तरी महमंद शाहक तांची ही स्थिती पळोवन केन्ना केन्ना खूब दुख्ख भोगतालें. एका काळा वयलीं भरिल्ल्या घरांतलीं मनशां आयज

वावराड्यां वरी जियेतात. देवाचो खेळ!

एक दीस महंमद शाहगेर कांय पावणे आयिल्ले. कांय ताचे सोयरे, कांय इश्ट. तातूंत एक मुल्ला आशिल्लो. महमंद शाहन एलियासाक एका मेंढराक धरून मारून पावण्यां खातीर जेवण रांदूंक सांगलें. पावणे दुदाचो सोरो पियेत, मेंढराचें मांस खायत उलयत बशिल्ले. एलियास दारा कडेन उबो आशिल्लो. ताका पळोवन शाहान पावण्यांक म्हणलें, "होऽ तो दारा म्हऱ्यांत म्हजो वावराडो उबो आसा तो तुमी पळयला? एके मुस्तींत तो ह्या गांवचो व्हडलो भाटकार आसलो- एलियास."

"एलियास?।" एकल्यान एलियासा विशीं आयकल्लें. ताची कीर्त गांवा भायर लेगीत पाविल्ली.

"आतां ताचे कडेन कांय ना," महंमद शाहान म्हणलें. "आतां तो आनी ताची म्हातारी बायल म्हगेर वावर करतात. म्हगेरूच रावतात."

पावण्यांक सामकें अजाप जालें. "नशीब!" तांणी म्हणलें, "चाकां घुंवलीं आनी गिरेस्त आशिल्लो तो वावराडो जालो. ताचे हे स्थिती विशीं खासा ताका कितें दिसता?" एका पावण्यान विचारलें आनी म्हणलें, "हे विशीं म्हाका ताचेच कडेन उलोवंक मेळत?"

"कित्याक मेळचें ना?" महमंद शाहन म्हणलें आनी एलियासाक उलो मारलो. "आज्या, हें सोऱ्याचें कप घे. तुजे बायलेकूय आपय, आनी हांगा आमचे म्हऱ्यांत बस..."

एलियासान बायलेक आपयली. एक ल्हानशी प्रार्थना केली, कोपांतलो सोरो तोंडाक लायलो, आनी कोप सकल मेजार दवरलें.

तो पावणो उलोवंक लागलो. "बाबा, तुजे आदले गिरेस्तकायेचो उगडास जावन आनी तुजी आतांची स्थिती पळोवन तुका खूब दुख्ख भोगता आसतलें न्हय?"

एलियासान हांसून जाप दिली, "हांव सूख आनी दुख्खा विशीं उलोवंक लागलों जाल्यार तुमचो विश्वास बसचो ना. म्हजे बायलेकूच विचारात. ती बायल-मनीस. आपणाल्या काळजांतलेंच

उलतली. खरें तेंच सांगतलीं.''

पावण्यान पड्ड्या वटेन पळोवन म्हणलें, ''आजये, म्हाका सांग पळोवया, तुमचो पयलींचो सूख-संतोस आनी आतांचे कश्ट-उतळताप दोनांयची तुळा करतकच तुका कशें दिसता?''

पड्ड्या आडच्यान एलियासाची घरकान्न उलोवंक लागली- ''हांव आनी म्हजो घरकार फाटल्या पन्नास एक वर्सां सावन सूख-संतोस सोदत आसात. आमकां तो केन्ना मेळ्ळो ना. ह्या दोन वर्सांत मात हांगा येवन वावराड्याचें काम करीत सावन आमकां खरेलें सूख मेळ्ळां.''

सगल्या पावण्यांक अजाप जालें. यजमान शाहकूय मनांतल्यान अजाप दिसलें. तो उठलो, पड्डो कुशीक काडलो आनी ते म्हातारेचें तोंड सारकें पळोवपाक लागलो. ती घोवाक पळयताली आनी तिच्या तोंडार एक हांशें फाकिल्लें.

''हांव खरेंच उलयतां, फकाणां करिना. पन्नास वर्सां गिरेस्तकायेंत आनी सूख-संतोस सोदलो. पूण आमकां तो मेळ्ळो ना. आतां आमी सामकीं दुर्बळ जाल्यांत. आमचे कडेन कांय ना. दुसऱ्यागेर आमी वावर करतात. पूण आमकां सूख-संतोस मेळ्ळा. हाचे परस दुसरें आमकां कांय नाका.''

''पूण आजये, सूख-संतोस कित्यांत आसता?''

जाणटेलेन जाप दिली, ''आमी गिरेस्त आशिल्लीं तेन्ना म्हज्या घोवाक आनी म्हाका खूब चिंता आसली. खूब हुसके जाताले आमकां. एकामेकां कडेन उलोवपाक लेगीत आमकां वेळ मेळनासलो. आमच्या आत्म्याची आमकां विसरायूच कशी पडिल्ली. चिंता हुसक्यांक लागून देवाची प्रार्थना करपाचीय आमकां विसराय पडटाली. पावणे येताले. तांची खाणा-जेवणाची तयारी, वावराड्याचें सूख-दुख्ख... वावराडे-मानाय सारके काम करनात अशें आमकां दिसतालें. तांचे कडल्यान आमकां जाय तितलें काम आमी घेतालीं. पातक करतालीं... रातचीं कोलसुणीं येवन आमच्या मेंढऱ्याक

खातलीं, चोर येवन आमचें सामान चोरून व्हरतले, हे तरेचे हुस्के करीत आमी न्हिदतालीं. परतीं परतीं उठून सगळें सारकें आसा काय ना तें पळयतालीं. मनांत फकत चिंता हुसके. आनीक कांय ना. सूख संतोस सोडात, मनाची शांतीय नाशिल्ली. हांव आनी म्हजो घोव केन्ना केन्ना वाद, तर्क करतालीं- हें अशे करूंक जाय, तशें न्हय... ह्या वाद विवादांत आमी देवाक विसरतालीं, पातक करतालीं; एका त्रासांतसून दुसऱ्या त्रासांत पडटालीं. म्हणल्यार, एका पातकांतल्यान दुसऱ्या पातकांत. असल्यांनी सूख-संतोस कसो मेळटलो... ?

''आनी, आतां आजये ?'' त्या पावण्यान विचारलें.

''आतां आमी सकाळीं उठ्ठात. एकामेकां कडेन मायेन उलयतात. आमचे भितर वाद-विवाद जायनात. आमचे तांकी प्रमाण आमी आमच्या मालकाचें काम करतात, स्रद्धेन. इतलेंच. आमकां लागून आमच्या मालकाचें लुकसाण जावंक जायना. आमकां आतां उलोवंक वेळ आसा, आत्म्या विशीं येवजूंक, देवाची प्रार्थना करूंक वेळ आसा. फाटलीं पन्नास वर्सां आमी फकत सूख संतोस सोदलो पूण तो आमकां आतां मेळ्ळो.''

पावणे हांसले.

एलियासान तांकां म्हणलें, 'हांसूं नाकात इश्टांनो. हें जिवितांतलें एक सत्य. आमी पिशीं आशिल्लीं. आमची गिरेस्तकाय गेली म्हूण खंती जातालीं. पूण आतां देवानूच आमकां हें सत्य दाखयलें. फकत आमचे तृप्ती खातीर न्हय, तुमचेंय बरें करपाक.''

तेन्ना तो मुल्ला म्हणूंक लागलो, ''हेंच खरेलें सत्य. सगल्यांत व्हडलें सत्य. आमच्या पवित्र पुस्तकांतूय हेंच सत्य मेळटलें.''

पावणे हांसपाचे थांबले आनी चिंतूंक लागले.



# रितो धोल

एमेल्यान म्हूण एक गरीब तरणाटो शेतकामती आसलो. एक दीस तो शेतांत वावुरतालो तेन्ना ताचो पांय एका बेब्याचेर पडपाचो. एमेल्यान शिटुकसाणेन पांय कुशीक काडलो आनी बेबो वाटावलो. उडक्यो मारीत थंयच्यान पेल्यान सरलो. त्याच वेळार एमेल्यानाक कोणे तरी आपणाक हडकिल्ले वरी दिसलें. फाटल्यान पळयत जाल्यार एक सुंदर चली थंय उबी आशिल्ली. ''एमेल्यान, तूं लग्न कित्याक जायना?'' तिणें ताका विचारलें. ''कोण जातलो म्हजे कडेन लग्न?'' एमेल्यान म्हणलें. ''हांव जातलीं, तूं म्हजे कडेन जा लग्न'', तिणें ताका म्हणलें. एमेल्यानाचे नदरेंत ती चली भरिल्ली. ''हांवूय खोशयेन तुजे कडेन लग्न जायन आसलों. पूण लग्ना उपरांत आमी खंय रावतलीं? कशीं जियेतलीं?'' ताणें म्हणलें ''तो हुस्को करूं नाका. मनशान काम चड करूंक जाय आनी न्हिदूंक जाय. तेन्ना ताका कपडे जेवण मेळूंक त्रास पडनात...'' तिणें म्हणलें. तिगेली ही जाप आयकून एमेल्यानान म्हणलें, ''तशें जाल्यार जावंया आमी लग्न. पूण लग्ना उपरांत आमी खंय रावंया, सांग पळोवया...'' ''शारांत वचुंया...'' तिणें सांगलें. रोखडींच तीं दोगांय लग्न जालीं आनी शारांत वचून एके ल्हानशे खोंपीत रावन सुखान संवसार करूंक लागलीं.

एक दीस थंयचो राजा आपणाल्या राज्याची भोंवडी करूंक घोड्या गाडयेंत बसून भायर सरिल्लो. एमेल्यानाचे खोंपी सरीं तो पावलो. राजाक पळोवपाक एमेल्यानाची बायल भायर आयली. तिची सुंदरकाय पळोवन राजा भाळ्ळो. ''इतली सुंदर चली आनी खोपींत रावता? ती म्हज्या म्हालांत अदीक बरी सोबतली'', राजाक दिसलें, आनी ताणें थंय रावन तिची वासपूस घेतली. ती कोण, खंयची, कितें करता, तें विचारलें. ती एका शेतकामत्याची बायल म्हूण कळ्ळें तेन्ना राजान तिका म्हणलें, ''राणी जावपाची योग्यताय तुजी... तुजो नीज जागो राजम्हालांत, हांगा न्हय. चल, राजम्हालांत यो.''

''देव बरें करूं, राया... पूण म्हजो घरकार एक बरो मनीस, आनी हांगा हांव सुखान जियेतां. राजम्हालांत येवपाची म्हाका इत्सा ना...'' तिणें जाप दिली.

राजा राजम्हालांत परतलो. पूण परतें परतें ताच्या दोळ्यां मुखार त्या शेतकामत्याचे बायलेचें तोंड येतालें. रातचीय ताका न्हीद पडलिना. सकाळी फुडें ताणें प्रधानाक आनी हेर मंत्र्यांक आपोवन हाडले आनी तांकां सांगलें, कशेय बशेन हे बायलेक राजम्हालांत हाडूंक जाय. उपाय सुचयात.

मंत्र्यानी राजाक म्हणलें, ''एमेल्यानाक राजम्हालांत कामाक दवरचो आनी ताका खुब्ब काम दिवचें. ताका पेलना तितलें. हें काम करतां करतां तो मरतलो आनी मागीर ताचे बायलेक हांगा हाडप सोपें जातलें.''

आयकून राजा खोशी जालो. ताणें रोखड्या रोखडो एमेल्यानाक राजम्हालांत काम करपाक यो म्हूण आदेश धाडलो. राजाचो आदेश घेवन शिपाय एमेल्यानागेर गेले. बायलेन एमेल्यानाक सांगलें, ''वच तूं. काम सोंपोवन रातचो घरा यो.''

एमेल्यान एकलोच आयला तें पळोवन राजा नाखूश जालो. पूण कांय उलयलो मात ना.

ते उपरांत सद्दां एमेल्यान राजम्हालांत वचूंक लागलो आनी दिसान दीस ताच्या कामांत वाड जायत वचूंक लागली. आयज दोगां जाणांचें काम, फाल्यां चवगांचें, परां आठ जाणांचें... हे भाशेन एमेल्यानाचें काम वाडोवन ताका नाका जीव करून सोंपोवपाचो यत्न राजा आनी ताचे मंत्री करीत आशिल्ले. आनी एमेल्यान, बायलेचेर पुरायेन भरवंसून तिणें सांगिल्ले प्रमाण, आनीक कांय येवजी नासतना जीव ओतून वावुरतालो. आनी, कश्टांचें काम सोंपेपणान जावन पडटालें तें पळोवन ताचे ताकाच अजाप जातालें. राजाक मात जाळ पडटाले. सद्दां सांजेच्या वेळार एमेल्यान पद गुणगुणत घरा वतालो. काम करून पुरो जाल्ल्याची कुरूय ताचेर दिश्टी पड नासली.

एक दीस एमेल्यानान बायलेक म्हणलें, ''इतलें सगलें काम दिवन ते म्हाका मारूंक सोदतात... म्हाका दिसता, आमी हो गांव सोडून गेल्लीं बरीं. हाचेर तिणें म्हणलें, ''गांव सोडून वचपाचो वेळ अजून येवंक ना. आमी आतां गेलीं जाल्यार राजा ताच्या शिपायांक आमचे सोदीक धाडटलो... कामाचो हुस्को तूं करूं नाका. फकत तें सोंपतकच घरा यो.''

एमेल्यान अशें करीत रावलो. केन्ना केन्ना ताका अजाप जावचें, इतलेंय हें काम आपणें एकल्यान केलें कशें...

एक दीस प्रधानान एमेल्यानाक मेस्ताचें काम दिलें. उपरांत गवंड्याचें. एमेल्यान सुरवेक निर्शेलो. आतां आपणाच्यान जावचें ना, ताका दिसलें. पूण सद्दां बायलेन ताका धीर दिवन म्हालांत धाडचो आनी एमेल्यानान सगली शक्त एकवटावन कामाक लागचें आनी तें पुराय करून घरा परतुचें.

राजाची अस्वस्थकाय मात वाडत वचची. एक दीस ताणें आपणाल्या मंत्र्याक आपोवन सांगलें, ''दोन आठवडे जाले. तुमचे सगळे उपाय निष्फळ जाले. तुमी म्हाका पिसो करूंक सोदतात... आतां ताका एक अशक्य काम दियात. तें करूंक ताच्यान जालें ना

जाल्यार ताका जिवानिशीं मारून उडयात... आनीक आनीक वाट पळोवं नज म्हज्यान."

मंत्र्यानी म्हणलें, एमेल्यान वा ताची बायल कोणा लागीं तरी कसली तरी विचित्र शक्त आसूंक जाय. ना जाल्यार अशें कशें जातलें आसलें?" तेन्ना राजानूच एक उपाय सोदून काडलो. ताणें एमेल्यानाक आपोवन हाडलो आनी सांगलें, "एकाच दिसा भितर राजम्हालाच्या वाठारांत एक व्हडली इगर्ज बांदून काड. ती बांदूंक जमलीना जाल्यार तुजी गोमटी कापतले."

एमेल्यान भियेल्लो. हे फावटी काम जावपाची कसलीच आस्त ना," ताणें बायलेक सांगलें. तिणें म्हणलें, "भियेवं नाका. फाल्यां सकाळीं ऊठ आनी जंय तुका इगर्ज बांद म्हूण सांगलां ते सुवातेर वच. इगर्ज बांदून तयार आसतली. तूं हांगा थंय कांय खिळे मार, तुजें काम पूर्ण जातलें."

तिणें सांगिल्लें तशें जालें. आतां राजान म्हणलें, "म्हाला भोंवतणी आतां म्हाका एक न्हंय जाय आनी ते न्हंयंत तीन-चार व्हडींय आसूंक जाय." एमेल्यानाक परतेंय बायलेन आश्वासन दिलें, "सकाळीं कामाच्या वेळार वच. सगळें राजाचे इत्से प्रमाण जाल्लें आसतलें. खंयूय एके कडेन खोऱ्यान इल्ली माती सारकी कर... तुजें काम जालें!" सकाळीं फुडें एमेल्यान उठून राजम्हाला सरीं गेलो. म्हाला भोंवतणी एक न्हंय आनी न्हंयंत तीन व्हडीं पळोवन ताका अजाप जालें. राजानूय उठचे उठून जनेल उक्तें केलें. भायर न्हंय आनी न्हंयंत व्हडीं पळोवन तो साप्प निर्शेलो. निमाणीं दोनूय कामां आंगार घेवचे पयलीं एमेल्यान खूब भियेल्लो. पूण बायलेच्या उतरांनी ताका धीर आयिल्लो.

रागान राजाक कितें करूं, कितें नाका जालें. ताणें परतीय मंत्र्यांची बुद्द घेतली. एकल्या मंत्र्याचे सांगणेन राजान एमेल्यानाक आपोवन हाडलो आनी सांगलें, "थंय वच, खंय म्हूण नकळ आनी ती वस्त

हाड, कसली म्हूण नकळ. ही वस्त हाडूंक तूं पावलो ना जाल्यार तुजी तकली कापतले.'' आतां कितें करचें? खंय वचचें? कितें हाडचें, मात्तूय समजना जावन एमेल्यान बायले म्हऱ्यांत गेलो आनी तिका ह्या नव्या कामा विशीं सांगलें. शार सोडून वचपाची गजाल केल्यार बायल केन्ना तयार जाय नाशिल्ली. पूण आतां ती म्हणूंक लागली, ''आतां आमी हो गांव सोडून वचपाचो वेळ आयला. मंत्र्यानी राजाक तुका धरपाचो उपाय सुचयला.'' ती मातसो वेळ येवजीत बसली आनी मागीर म्हणूंक लागली, ''एमेल्यान, तूं गांवा भायर पयस वच. म्हजी आजी, शिपायांची आवय, तुका आधार करतली. मागीर तूं राजम्हालांत वचून राजाक मेळ. हांव थंयच आसतलीं. आजयेन सांगिल्ले वरी केल्यार आमकां दोगांकूय सुटका मेळटली. तूं वतकच राजाचे शिपाय म्हाका म्हालांत व्हरूंक येतले.'' एमेल्यान वचूंक भायर सरलो. वतना बायलेन ताका सूत कांतपाची एक टकली दिली. ''ही टकली पळोवन म्हजी आजी वळखतली, तूं म्हजो घोव म्हूण'' तिणें काम सांगलें आनी वचपाची वाट दाखयली.

चलत चलत एमेल्यान गांवा भायर पावलो. तो आनिकूय चलत रावलो. एका जाग्यार ताका कांय शिपाय व्यायाम करताले ते दिश्टी पडले. एमेल्यानान तांकां म्हणलें, ''बाबांनो, खंय वचूंक जाय, खंय म्हूण नकळ, कसली वस्त हाडूंक जाय, खंयची म्हूण नकळ, हे विशीं तुमकां कितेंय खबर आसल्यार म्हाका सांगात, उपकार जातलो.''

ताचो प्रस्न आयकून शिपायांक अजाप जालें. ''तुका ह्या कामार कोणें धाडला,'' तांणी एमेल्यानाक विचारलें. राजान धाडला म्हूण आयकतकच तांणी जाप दिली, ''शिपाय जायत सावन आमी अशे वचत आसात, खंय म्हूण आमकां खबर ना, आनी अजून आमी थंय पावंक नात. आमी कसले वस्ती फाटल्यान आसात तेंय आमकां खबर ना. तुका आमी कसलो आधार करतले?''

कांय वेळ शिपायां कडेन खबऱ्यो करून एमेल्यान थंयच्यान मुखार

चलूंक लागलो. चलतां चलतां तो एका ल्हानश्या रानांत पावलो. रानांत ताका एक खोंप दिश्टी पडली. खोंपी भायर एकली म्हातारी शेतकामती-शिपायांली आवय चरख्यार सूत कांतत बशिल्ली ताका दिश्टी पडली. सूत कांततां कांततां ती रडटाली. सूत कांतच्या वेळार ती बोटाक तोंडाचो निथू लाय नाशिल्ली; दोळ्यांतलीं दुकांच तिका पुरो जातालीं. एमेल्यानाक पळोवन तिणें ताका विचारलें, "तूं कोण? हांगा कित्याक आयला?" एमेल्यानान बायलेन दिल्ली टकली तिका दाखयली आनी म्हणलें, "ही म्हाका म्हजे बायलेन दिल्या." म्हातारी मातशी मोव जाली आनी ताका प्रस्न विचारूंक लागली. एमेल्यानान घडिल्ली सगली गजाल तिका सांगली. आजयेन सगलें थंडसाणेन आयकून घेतलें. "वेळ आयलासो दिसता," तिच्या तोंडांतल्यान उतरां फुटलीं. "तूं हांगा बस आनी विसव घे. हांव तुका खावपाक कितें तरी हाडून दितां." अशें म्हणून ती उठली आनी खोपींतल्यान एमेल्यानाक खावंक घेवन आयली. ताचें खावन जातकच तिणें ताच्या हातांत एक सुताचें गुठल दिलें आनी म्हणूंक लागली, "हांगासरल्यान मुखार वतना हें गुठल तुजे मुखार उडय आनी सुताचें पोंत तुज्या हातांत दवर. गुठला फाटल्यान वचत राव. गुठल सोंपतलें तेन्ना दर्यादेगेर एक व्हडलें शार तुका मेळटलें. थंय तुका जाय आशिल्ली वस्त सोद."

"आजये, हीच ती वस्त म्हूण म्हाका कशें कळटलें?" एमेल्यानान जाणटेलेक विचारलें. "एक वस्त आसा. तिका सगले जाण मानतात. ती वस्त हातांत घे आनी बेगीन तुज्या गांवांत वच. राजाक ती वस्त दी. राजा म्हणटलो, म्हाका जाय आशिल्ली ती वस्त ही न्हय. तेन्ना ताका सांग, ही वस्त चुकीची आसल्यार हांव सांगिल्ले प्रमाण कर. ते वस्तीचे कुडके कुडके कर आनी उदकांत उडय. तेन्ना तुजी बायल तुका परती मेळटली आनी म्हजे दुख्खूय सोंपतलें."

आजयेचो निरोप घेवन एमेल्यान सुताच्या गुठल्या फाटल्यान गेलो. उपरांत दर्या देगेर ताका एक व्हडलें शार दिश्टी पडलें. तो शारांत भितर

सरलो. एका घरमालका कडेन आपणाक तागेर रात सारूंक मेळची म्हूण ताणें परवानगी घेतली.

सकाळीं जाग आयली तेन्ना बापूय आपणाल्या पुताक लेखून उलयतालो. तीं उतरां एमेल्यानाच्या कानार पडलीं. तो म्हणटालो, "वेळ जाला, ऊठ रे. ऊठ आनी थोडीं लाकडां कापून हाड." "मातसो राव बाबा, आनीक इल्लो न्हिदतां," पुतान म्हळें. आवयनूय ताका सांगलें. "ऊठ आनी बाबान सांगिल्लें आयक."

तेन्नाच भायल्यान एक 'ढम ढम' आवाज आयकूंक आयलो. आवाज आयकना फुडें न्हिदिल्लो पूत सडसडीत उठलो, आंगार कपडे चडयले आनी भायर रस्त्यार धांवलो. एमेल्यानाक अजाप जालें. आवय बापायक आयकनाशिल्लो भुरगो हो विचित्र आवाज आयकून भायर सरता म्हणल्यार कितें! एमेल्यानूय उठून रस्त्यार गेलो. रस्त्यार ताका एकलो मनीस दिश्टी पडलो. ताच्या पोटाक एक ल्हानशी वांटकुळी वस्त बांदिल्ली आशिल्ली. तिचे वयले वटेन चामडें आशिल्लें आनी एक बडी घेवन तो मनीस ती वस्त वाजयतालो. एमेल्यानान त्या मनशाक विचारलें, "ही कसली वस्त?" "हो धोल. भितरल्यान रितो आशिल्ल्यान तातूंतल्यान व्हडलो आवाज येता." ताका जाप मेळ्ळी. एमेल्यान आनीक आनीक रावलो ना. धोलाक झोंपय मारली आनी तो हातांत घेवन धावंक लागलो.

धोल घेवन एमेल्यान आपल्या गांवांत पावलो. ताणें राजाक रकाद धाडलो, "तुमकां जाय आशिल्ली वस्त हाडल्या. तुमी भायर येतात, काय हांव म्हालांत येवं?"

एमेल्यानाक राजान भितर आपयलो. "तूं खंय गेल्लो?" ताणें एमेल्यानाक विचारलें आनी ताची जाप आयकून म्हणूंक लागलो, "हो चुकीचो जागो." एमेल्यानान राजाक तो धोल दाखयलो. राजान म्हणलें, "म्हाका जाय आशिल्ली वस्त ही न्हय." "अशें? तशें जाल्यार तिचे कुडके कुडके करतां आनी भायर मारतां." एमेल्यानान

म्हणलें. म्हाला भायर वतना एमेल्यान धोल वाजयत गेलो. आनी, अजापाची गजाल म्हणल्यार, राजाचे सगले शिपाय ताचे फाटल्यान येवपाक लागले. राजान तांकां परते आपयले. पूण कोण ताचो आदेश आयकूंक तयार नाशिल्लो. राजान तेन्ना एमेल्यानाचे बायलेक आपोवन हाडली आनी तिका घोवा सुवादीन करूंक आदेश दिलो. आनी, तो धोल आपणाक दी म्हूण एमेल्यानाक रकाद धाडलो.

"आतां कांय जावपाचें ना", एमेल्यानान म्हळें. "म्हाका सांगिल्ले प्रमाण, हांव धोलाचे कुडके कुडके करून उदकांत उडयतालों." ताणें जाप दिली. आनी ताणें तशें केलें. धोलाचे कुडके जायना फुडें शिपाय सगळे फाफसून गेले.

एमेल्यान आपले बायलेक घेवन घरा गेलो. ते उपरांत राजान तांकां केन्ना त्रास दिलोना आनी तीं दोगांय सुखान रावंक लागलीं.

■

# देव सत्य जाणा आसता, पूण तो रावता

एका व्लादिमीर गांवांत इव्हान दिमित्रीश आक्सेनोव्ह नांवाचो एक तरणाटो वेपारी रावतालो. दोन दुकानां आनी एका घराचो हो धनी, आक्सेनोव्ह, सोबीत आनी गोरो गोमटोच आसलो. ताचे केंस मुदयाळे आसले. लग्ना आदीं तो खूब पियेतालो आनी मस्ती करतालो. लग्ना उपरांत मात ताणें पियेवप खूब उणें केल्लें.

एक खेपे आक्सेनोव्ह पयसुल्ल्या गांवांत एका फेस्ताक वचूंक भायर सरलो. बायले भुरग्यांचो तो निरोप घेवंक गेल्लो तेन्ना ताचे बायलेन ताका म्हणलें, "आज भायर सरूं नाका..." रातचें तिका एक वायट सपन पडिल्लें. सपनांत तिच्या घोवाचे पिंगशे केंस फेस्ता सावन परतुच्या वेळार म्हाताऱ्यांच्या केंसा वरी धवेफुल्ल जावन गेल्ले.

आक्सेनोव्ह हांसलो आनी म्हणूंक लागलो, "हें बरें लक्षण मगो! पळयतलें तूं, हांव फेस्ता सावन परत येतना तुका आनी भुरग्यांक जायतें कितें घेवन येतलों..."

घरच्यांचो निरोप घेवन आक्सेनोव्ह घोड्या गाडी घेवन भायर सरलो. वाटेर ताका आनीक एकलो वळखीचो वेपारी मेळ्ळो. तांणी दोगांयनी एकेच खानावळींत रात काडपाचें थारायलें. थोडी च्या बी घेवन दोगूय लागीं लागींच्या कुडींनी न्हिदपाक गेले.

संवये प्रमाण आक्सेनोव्ह फांतोडेर उठलो. खानावळीच्या मालकाक ताणें पयशे फारीक केले, आनी घोड्या गाडयेंत बसून ताणें मुखावेली वाट धरली. वीस-एक मैलांची वाट काडले उपरांत आपणाक आनी घोड्यांक सुशेग मेळचो म्हूण तो एका ल्हानश्या गांवांतले एके ल्हानशे खानावळींत भितर सरलो. च्या घेतली आनी आपणाली गितार काडून एक गीत वाजयलें.

अकस्मात एक घोड्या गाडी खानावळी भायर येवन थांबली. एक पुलीस अधिकारी दोगां तिगां शिपायाक घेवन खानावळींत भितर सरलो, आनी आक्सेनोव्हा म्हऱ्यांत येवन ताका प्रस्न विचारूंक लागलो : ''कोण तूं? खंय सावन आयला? कसलें काम करता...?'' आक्सेनोव्हाक अजाप जालें. पूण ताणें सगल्या प्रस्नांक सरळ जापो दिल्यो आनी अधिकाऱ्याक च्या घेवपाक आपयलो. पूण अधिकारी परतो परतो विचारीत आशिल्लो. ''काल रातचो तूं खंय आशिल्लो? तुजे वांगडा कोण आशिल्लो? तुजे वांगडा आशिल्ल्या वेपाऱ्याक सकाळीं मेळनासतना तूं कित्याक गेलो? आनी, इतले फांतोडेर कित्याक भायर सरलो?''

हे सगले प्रस्न आपणाक कित्याक विचारता, आक्सेनोव्हाक कांय समजलें ना. ताणें सगल्या प्रस्नांक सारक्यो सरळ जापो दिल्यो, आनी त्या अधिकाऱ्याक विचारले, ''तूं म्हाका हें सगळें कित्याक विचारता? हांव चोर फटींग काय न्हय. हांव एक सादो वेपारी. म्हज्या कामाक हांव फेस्ताक वतां. हे सगले प्रस्न म्हाका विचारपाची गरज ना.''

तेन्ना तो अधिकारी म्हणूंक लागलो, ''हांव एक पुलीस अधिकारी. तुजे बरोबर काल आशिल्लो त्या वेपाऱ्याचो गळो कापून खून जाला. आनी ताचे पयशेय बी ना जाल्यात. आतां तुजें सामान आमकां तपासून पळोवचें पडटलें.''

अधिकाऱ्यान आक्सेनोव्हाचे सगलें सामान उस्तून पळयलें. एके

पोतयेंत ताका एक सुरी मेळ्ळी. ''ही सुरी कोणाची, आनी ताचेर हें रगत कोणाचें?'' अधिकाऱ्यान विचारलें.

''सुरी? म्हाका खबर ना. ही सुरी म्हजी न्हय. ती म्हजे पोतयेंत कशी आयली, हांव नकळ...'' आक्सेनोव्हान म्हणलें. पूण जाप दितना तो मातसो भियेल्लो आनी गडबडिल्लो.

पुलीस अधिकाऱ्यान म्हणलें, ''त्या वेपाऱ्या वांगडा तूंच एकलो आशिल्लो. आनी ही रगत लागिल्ली सुरी तुजेच पोतयेंत आमकां मेळ्ळ्या. जाप दितना तूं गडबडला तें पळयल्यार तूंच खुनी आसूंक जाय काय दिसता. आतां बरे भाशेन सांग, ताका तुवें कसो मारलो आनी ताचे कितले पयशे चोरले?''

आक्सेनोव्हान देवाचें नांव घेवन आपूण निर्दोश म्हूण सांगलें.

''म्हजे कडेन फकत म्हजे आठ हजार रुबल्स आसात, आनी ही सुरी म्हजी न्हय,'' ताणें म्हणलें.

पूण पुलीस अधिकारी कांय एक आयकूंक तयार नाशिल्लो. आक्सेनोव्हाक बांदून आपले गाडयेर घाल म्हूण ताणें शिपायांक आदेश सोडलो.

आक्सेनोव्हा खुरसाची कुरू करून रडूंक लागलो. ''हांव निर्दोश... ही सुरी म्हजी न्हय...'' ताणें परतेय सांगलें.

पुलीस अधिकाऱ्यान आक्सेनोव्हाक लागसल्ल्या गांवांत व्हेलो. तो सभावान, चारित्र्यान कसो कितें हे विशीं ताणें लोकां कडेन बारीकसाण घेतली. आक्सेनोव्हा मनीस बरो. गिरेस्त. पूण तरणेपणांत तो सोरो पियेवन मस्ती करतालो. आतां तो बरो जाला, लोकांनी सांगलें.

न्यायालयांत केस चल्ली आनी वेपाऱ्याचो पयशांक लागून खून केल्ल्याचो आरोप लावन न्यायाधिशान आक्सेनोव्हाक बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ते भायर ताका चाबकांच्या माराचोय दंड जालो. आनी उपरांत हेर कैद्यां बराबर ताका सायबेरियेक धाडलो.

सायबेरियेक वचचे पयलीं आक्सेनोव्हान बायलेचो निमणो निरोप घेतलो. बायल पुराय निर्शेवन गेल्ली. ल्हान ल्हान भुरगीं. एकलें तर सामकें ल्हान बाळक. कितें करचें, तिका कांय सुचनासलें. ती घोवाक मेळूंक गेली. ही भेटूय सोंपेपणान घडली ना. खूब त्रास जालो. उपरांत घोवाच्या हाता-पांयांक लोखणाच्यो बेडयो पळोवन दुख्खान तिची सुद्द गेली. थोडोच वेळ ती ताचे लागीं उलयली. तिणें म्हणलें, 'तूं निर्दोश, तुका सोडचो म्हूण राया कडेनूय मागून जालें, पूण कांय उपेग जालो ना.''

आक्सेनोव्ह ओग्गी रावलो. कांय उलयलो ना. तागेल्या केंसांनी बोटां भोंवडायत तिणें ताका म्हणलें, ''याद जाता तुका? त्या दिसा भायर सरूं नाका म्हूण कितलें मागलें हांवें तुजे लागीं... मोगाळ वान्या, तुगेले बायलेक खरें सांग, हो खून तुवें केल्लो काय ना?''

आक्सेनोव्हाक खूब खूब वायट दिसलें. ''तुकाय म्हजो दुबाव येता तर?'' ताणें तिका विचारलें. आनी मान सकल घालून तो रडूंक लागलो. इतले म्हणसर शिपाय आयलो आनी बायलेक ताचो निरोप घेवन वचपाचो आदेश दिलो.

बायलेनूय आपणाचो दुबाव घेतिल्लो पळोवन दुख्खान आक्सेनोव्हान देवाची प्रार्थना केली. ''आतां फकत तुकाच सत्य कितें तें खबर आसा. तुजेच कडल्यान म्हाका दया आनी आधार मेळूं येता. तुजेच लागीं हांव मागतलों; प्रार्थना करतलों. आनीक कोणाचोच म्हाका उपेग जावचो ना...'' ताणें म्हणलें.

आक्सेनोव्हान सायबेरियेंत 26 वर्सां बंदखण भोगली. लोखणाचे खणीर तो वावुरलो. तो आतां म्हातारो दिसतालो. ताचे केंसूय पिकिल्ले. ताच्या ओंठार सदां देवाचें नांव आसतालें. मान बागोवन सकल पळयत तो चलतालो. कोणेंच ताका केन्नाच हांशिल्लो पळोवंक नासलो. बंदखणींतले सगले अधिकारी आनी कैदी ताका आधार दिताले. आक्सेनोव्ह मोचे करूंक शिकिल्लो. ते विकून मेळिल्ल्या

थोड्या पयशांचें ताणें सांताच्या जिविताचेर आशिल्लें एक पुस्तक विकतें घेतिल्लें. उजवाड आसतालो तेन्ना हें पुस्तक तो वाचतालो. बंदखणीचे इगर्जेंत तो भजनां म्हणटालो. ताचो ताळो आतांय बरो आशिल्लो. ताचे चलणुकेक लागून सगळे ताका 'आज्या' वा 'सांत बाबा' म्हूण पाचारताले. कैद्यांक अधिकाऱ्यां कडल्यान कितेंय जाय आसतालें तेन्ना ते आक्सेनोव्हाक तांचे सरीं धाडटाले, आनी तांचे मदीं केन्नाय झगडीं जातालीं तेन्नाय. आक्सेनोव्हाक ताच्या कुटुंबाची कांय खबर मेळूंक नासली. बायल भुरगीं जितीं आसात काय नात हेंवूय ताका खबर नासलें.

एक दीस नव्या कैद्यांचो एक पंगड बंदखणींत आयलो. सांजेच्या वेळार सगळे कैदी आपआपल्या गांवच्यो खबरी एकामेकांक सांगीत बशिल्ले. आक्सेनोव्ह तांचे बराबर आशिल्लो. पूण तकली सकल घालून थंड बशिल्लो.

ह्या नव्या पंगडांत साठ-एक वर्सांचो एक घटमूट मनीस आशिल्लो. मोठ्ठ्या आवाजान तो हेरां कैद्यां कडेन उलयतालो. ''हांवें फकत एका इश्टाचो घोडो ताचे बर्फाचे गाडयेक बांदिल्लो तो सोडयल्लो, आनी म्हजेर चोरयेचो आळ घालून म्हाका हांगा धाडला. खरें म्हणल्यार हे आदींच हांव हांगा पावपाचों. हांवें एक व्हडलो गुन्यांव केल्लो, पूण तेन्ना हांव सुटलों. नशीब पळयात...'

''खंयच्या गांवचो तूं?'' एकल्यान ताका विचारलें.

''व्लादिमीरचो. म्हजी सोयरींय सगळी व्लादिमीरांतूच रावतात. म्हजें नांव माकार सेमेनीच. सगले म्हाका सेमेनीचूच म्हणटात.''

कैदी व्लादिमीरचो म्हूण आयकतकूच आक्सेनोव्हान तकली वयर काडली आनी सेमेनीचाक विचारलें. ''आक्सेनोव्ह कुटुंबाची तुका कितेंय खबर आसा?... आसात तरी तीं ह्या संवसारांत?''

''आसात तर! बरी वळख आसा तांची म्हाका. आक्सेनोव्ह कुटूंब गिरेस्त. पूण तांचो बापूय सायबेरियेंत आसा म्हूण आयकल्लें.

आसतलो पातकी आमचे वरी,'' हांसत हांसत त्या कैद्यान म्हणलें, आनी आक्सेनोव्हाक विचारलें, ''आज्या, तूं कसो पावलो हांगा?''

आक्सेनोव्हाक आपणाल्या वायट नशिबा विशीं उलोवंक आवडनासलें. कांयवेळ तो ओग्गी रावलो. उपरांत एक व्हडलो उस्वास सोडून ताणें म्हणलें, ''म्हज्या पातकांक लागून पावलों हांव हांगा. 26 वर्सां काडल्यांत हे बंदखणींत हांवें.''

''कसलीं पातकां?'' सेमेनीचान विचारलें, पूण आक्सेनोव्हान कांय जाप दिलिना. सांगाती कैद्यांनीच सेमेनीचाक आक्सेनोव्हाच्या गुन्यांवाची सगळी म्हायती दिली.- एके खानावळींत रातचो न्हिदिल्लो आसतना कसो ताचे वांगडा आयिल्ल्या दुसऱ्या वेपाऱ्याचो खून जालो, आनी आक्सेनोव्हाचे पोतयेंत रगतान माखिल्ली सुरी घालून खुनी कसो पसार जालो- तें सगळें सांगलें.

''अजाप म्हणपाचें हें! सामकें अजाप! पूण कितलो जाण्टो जाला तूं आज्या...'' सेमेनीचान म्हणलें. हें आयकून हेर कैद्यांनी सेमेनीचाक तो आदीं आक्सेनोव्हाक वळखतालो काय म्हूण विचारलें. सेमेनीचान कांय जाप दिलिना. ताणें इतलेंच म्हणलें, ''आमी हांगा मेळटात हेंच व्हड अजाप!''

ही जाप आयकून आक्सेनोव्हाक भोव अजाप जालें. ताणें ताका विचारलें, ''वेपाऱ्याचो खून कोणे केला तें तूं जाणा आसतलो घडये. आनी, तूं म्हाका वळखता?''

''गांवभर जाल्ली ही खबर म्हण हांवूंय ती जाणा... पूण खूब वर्सां जावन गेलीं हे खबरेक, म्हूण म्हाका सारकी याद जायना.'' उपरांत ताणें हांसून म्हणलें, ''ताचे पोतयेंत कोणूय सुरो कसो म्हूण घालतलो, सांग पळोवया...''

खरेलो खुनी सेमेनीचूच आसूंक जाय म्हूण आक्सेनोव्हाक विश्वास जालो. तो थंय सावन उठून गेलो.

ते रातीं आक्सेनोव्ह खूब अस्वस्थ आशिल्लो. ताचो मात्तूय दोळो

लागलो ना. मनांत दुख्ख आनी उबगण. ते भायर बायले-भुरग्यांची याद. तरातरांचीं चित्रां. तो खानावळींत गितार वाजयत निश्चिंत बशिल्लो. आनी अकस्मात ताचेर चोरयेचो आनी खुनाचो आळ आयलो. पुलिसांनी ताका चाबकांनी कसो मारिल्लो... दुख्खान आत्महत्त्या करपाचोय विचार ताच्या मनांत येवन गेलो. सूड घेवपाचो विचारूय आयलो. मनाची शांती उडून गेली. अस्वस्थकायेंत दीस वचूंक लागले. फकत सेमेनीचाक मेळपाचें तो टाळटालो. ताचे तोंड लेगीत ताका पळेन दिसनासलें.

अशीच एक पंद्रस गेली. एके रातचो आक्सेनोव्ह आपले कुडींत पासयो मारतालो. कादयेचे एके वटेन माती आनी फातर भायर उसळटात तें ताका जनेलांतल्यान दिश्टी पडलें. कांय वेळान मुखार ताका सेमेनीच दिश्टी पडलो. खोरें घेवन तो वणटींत एक बुराक काडूंक पळयतालो.

आक्सेनोव्हाक पळोवन तो रागान म्हणूंक लागलो, "म्हाताऱ्या, तोंड बंद दवर आनी म्हजे वांगडा भायर यो. अधिकाऱ्यांक सांगशीत जाल्यार मात हांव तुका जितोच मारतलों."

आक्सेनोव्ह रागान थरथरलो. म्हणूंक लागलो, "सेमेनीच, म्हाका भायर पळून वचपाची इल्लीय इत्सा ना. आनी, म्हाका जितो मारपाचीय गरज ना. तुवें 26 वर्सां फाटं एक फटींगपण केलें, आनी... सांगपाचें सगळें देवाच्या हातांत आसा."

दुसऱ्या दिसा सगल्या कैद्यांक मुखेल अधिकाऱ्यान मैदानार आपयले. वणटींत बुराक कोणे काडलो काय म्हूण ताणें तांकां विचारलें. "बाबा, तूं सदांच सत्य उलोवपी मनीस. तूं सांग म्हाका, हो बुराक कोणें काडिल्लो?" ताणें आक्सेनोव्हाक विचारलें. मुखार सेमीनीच उबो आशिल्लो. ताच्या तोंडार अस्वस्थकायेची इल्लीय कुरू नाशिल्ली. खीणभर आक्सेनोव्हाक दिसलें, सांगचें त्या दुश्ट मनाचें नांव, कित्याक म्हूण ताका राखण दिवची! ताणें सेमेनीचाच्चेर

एक नदर घाली. ताचे विशींचो म्हजो दुबाव चुकिचोय आसूं येता. ताका दिसलें. उपरांत मुखेल अधिकाऱ्याक नमस्कार करून तो म्हणूंक लागलो, "सायबा, हांवें कांयच सांगचें न्हय अशी देवाची इत्सा. तुमी म्हाका तुमकां जाय तो दंड दियात. हांव तो भोगपाक तयार आसां." मुखेल अधिकाऱ्यान आक्सेनोव्हाक उलोवंक लावपाचे खूब यत्न करून पळयले. पूण आक्सेनोव्ह ओग्गी रावलो.

ते रातीं आक्सेनोव्ह हांथरुणार आड पडिल्लो तेन्ना काळखांत कोण तरी कुडींत भितर सरिल्ल्याचो आवाज ताका आयकूंक आयलो. तो मनीस लागीं येवन ताच्या हांथरुणा सरीं येवन बसलो. बारीक पळयतकच आक्सेनोव्ह त्या मनशाक वळखलो. तो आसलो माकार सेमेनीच.

"हांगा कित्याक आयला? आनीक कितें जाय तुका म्हजे कडल्यान?" आक्सेनोव्हान ताका विचारलें.

सेमेनीच कांय उलयलो ना. अदीक लागीं आयलो आनी म्हणूंक लागलो, "इल्हान दिमित्रीश, म्हाका क्षमा कर."

आक्सेनोव्हान विचारलें, "कित्या खातीर?"

"त्या वेपाऱ्याक हांवें मारिल्लो. तुकाय हांव मारतलों आशिल्लों. पूण भायर सावन कसलो तरी आवाज आयलो आनी हांव भियेलों. तुज्या उश्या पोंदचे पोतयेंत रगतान माखिल्ली सुरी घालून हांव पळून गेलों." सेमेनीचान जाप दिली.

आक्सेनोव्ह कांय उलयलो ना. सेमेनीचान दिम्मी घाली आनी तो रडूंक लागलो. "देवाच्या नांवान म्हाका क्षमा कर. आतांच वचून हांव म्हजें पातक कबूल करतां आनी तुका हांगाच्यान सोडयतां. मागीर तूं तुज्या घरा वचूंक शकतलो," ताणें म्हणलें.

"उलोवंक सोंपें तें. 26 वर्सां हांवें हांगा कश्ट भोगल्यात. म्हजी बायल घडये आतां मेल्याय आसतली. आनी म्हज्या भुरग्यांक म्हजो उगडासूय आसचोना. हांव खंय म्हूण वचूं? म्हाका वचपाक जागो

ना,'' आक्सेनोव्हान म्हणलें.

सेमेनीच तसोच बसून रावलो. रडकुऱ्या आवाजान म्हणूंक लागलो, ''चाबकांची दूख सोंसूंक जाता, बाबा, पूण हे म्हजे व्हडले चुकीची दूग सोंसूंक जायना. देवाच्या नांवान म्हाका क्षमा कर. तुवें म्हाका कसलोय दंड भोगोवं येतालो, पूण तुवें म्हजेर दया आनी करुणा दाखयली. बाबा, हांव चुकलों. येशूच्या नांवान म्हाका क्षमा कर.'' अशें म्हणून तो रडूंक लागलो.

आक्सेनोव्हूय ताचे बराबर रडलो. ''देव तुका क्षमा करतलो,'' ताणें म्हणलें. ''कोणाक खबर, हांव तुजे परस वायट मनीस आसूं येता.'' आनी, त्याच खिणाक आक्सेनोव्हाचें मन शांत जालें. बंदखण सोडून घरा वचपाची इत्साय खंयचे खंय नाच जाली. मरण आयल्यार हांगाच येवंदी, ताका दिसलें.

सेमेनीच वचून बंदखणीच्या अधिकाऱ्यांक मेळ्ळो. 26 वर्सां फाटलो आपलो गुन्यांव ताणें कबूल केलो, आनी आक्सेनोव्ह सामको निर्दोश म्हणपाचेंय ताणें भर दिवन सांगलें.

कांय म्हयन्यांचे तपासणे उपरांत आक्सेनोव्ह निर्दोश म्हणपाचें सिद्ध जालें, आनी ताची सुटका करपाचो आदेश आयलो. ही खोशयेची खबर घेवन बंदखणीचो अधिकारी आक्सेनोव्हाक ताचे कुडींत मेळूंक आयलो. आक्सेनोव्ह हांथरुणार आड पडिल्लो. मुखामळ शांत पूण निर्जीव आशिल्लें. अधिकाऱ्यान सुटका करचे पयलींच देवान ताची सुटका केल्ली.



## उज्याचे किटी कडेन आडनदर केल्यार घर लासता

एका ल्हानश्या गांवांत इव्हान शॅरबाकार नांवाचो एक गिरेस्त शेतकार रावतालो. गांवच्या लोकां भितर बरो मनीस म्हूण ताका मान आशिल्लो. इव्हानाक तीग पूत आसले. तिगूय कामांत हुशार आसले. व्हडल्याचें लग्न जाल्लें आनी दुसऱ्याचें थारिल्लें. आंगापांगान घटमूट आशिल्लो तिसरो शेतांतलें कसलेंय काम करूंक तयार आसतालो. इव्हानाची बायल घरकामांत हुशार आसली आनी काटकसरीन संवसार चलयताली. ताची सुनूय घरकामांत आदार करपाक फाटीं रावनासली. घरांत एकलोच मनीस कांय करनासलो. तो म्हणल्यार, इव्हानाचो म्हातारो बापूय. ताका दम्याची पिडा आसली आनी सात एक वर्सां सावन तो खाटीर न्हिदून आशिल्लो.

इव्हानाक जाय आशिल्लें सगळें ताचे कडेन आशिल्लें. ताचें कुटूंब समाधानान जियेतालें. तांणी अशेंच जियेवं येतालें. पूण तांचें शेजारच्या थोट्या गाब्रिएला वांगडा केस्तांव आशिल्लें, आनी हाका लागून तांच्या मनांत सूख नाशिल्लें.

गाब्रिएलाचो बापूय गोर्देआनी इव्हानाचो बापूय त्रॉल घराचे मुखेली

आशिल्ले तेन्ना दोनूय घराबे मायेमोगान चलताले. एकल्यागेर कितेंय उणें जातालें तेन्ना शेजाऱ्यागेर वचून तें हाडटाले. एकल्याचें पाडूक दुसऱ्याच्या शेतांत पावलें जाल्यार तंट्या विरयत तें आपल्या गोठ्यांत पावतालें. बापायच्या काळांतलें हें वातावरण बदलून आयज मोगाची सुवात रागान आनी दुस्वासान घेतिल्ली.

सगळें सुरू जाल्लें एका ल्हानश्या कारणा वयल्यान. इव्हानाची कोंबी तांतयां घालपाक लागिल्ली. एक दीस भुरग्यांच्या बोवाळाक लागून कोंबयेन शेजाऱ्याले सुवातेर एका झाडा मुळा वचून तांतीं घालें. सुनेन कोंबयेचो आवाज आयकल्लो. पूण तेन्ना तिचे हात दुसऱ्या कामांत घुस्पल्ले आशिल्ले. पास्कांच्या फेस्ताक लागून ती एक एक तांतीं एकठांय करून दवरताली. सांजवेळा तिणें मांयक आनी देराक तांतया विशीं विचारलें. कोणेंच तांतीं पळोवंक नाशिल्लें. धाकल्या देरान म्हणलें, ''म्हाका दिसता, भुरग्यांच्या बोवाळाक लागून तुजी कोंबी शेजाऱ्यागेर गेल्ली. तिणें तांतीं थंयच घालां आसतलें.''

सून शेजाऱ्यागेर गेली. गाब्रिएलाचे आवयन तिका विचारलें, ''कितें जाय आशिल्लें बाय?'' हिणें सांगलें, ''आजये, सकाळीं म्हगेली कोंबी हेवटेन आयिल्ली. हांगाच तिणें एक तांती घाल्लें जावंक जाय. ताका लागून आयिल्लें हांव.''

'आमकां तुजे कोंबयेच्या तांतयाची कांय खबर ना, आनी गरजूय ना. देवाचे कृपेन आमकां आमच्या कोंबयांचीं तांतयां मेळटात. दुसऱ्यांल्या कोंबयांनी घाल्लीं तांतयां सोदूंक आमी दुसऱ्यांल्या जाग्यार वचनात,' गाब्रिएलाचे आवयन म्हणलें.

हें आयकून इव्हानाचे सुनेक राग आयलो, आनी ती गरजे परस चड उलयली. शेजान्नूय उलोवंक फाटीं रावली ना. निमाणें दोगीय एकीमेकींक वायट उतरां दिवंक लागल्यो. इव्हानाची आयी गाब्रिएलाची बायलूय थंय पावली. तींय मोठ्या मोठ्यान उलोवंक लागलीं. एकामेकांचेर आरते परते आरोप जावंक लागले. ''तूं अशी,

तूं तशी. तूं चोर. तूं वायट रितीची बायल... आमचे कडल्यान तुमी एक गाळणें व्हेल्लें, तें परतें दितना ताका एक व्हडलो बुराक आशिल्लो'' गाब्रिएलाचे बायलेन म्हणलें, ''उदकाच्यो बालद्यो हाडूंक तुमी आमचे जोत व्हेल्लें, तें आत्तां परतें करात.'' आनी तिणें वचून जोताक हात घालो. थोडें उदक सकल पडलें. आतां गाब्रिएलूय झगड्यांत वांटो घेवंक आयिल्लो, इव्हान जिवान घटमूट, आनी ताचे वांगडा ताचे तीग पूत. इव्हानान गाब्रिएलाच्या खाडाचे कांय केंस ओडले. गडबड आयकून लोक थंय पावले. आनी झगडुपी दोन कुटुंबांक वेगळीं केल्लीं त्या दिसा सावन, एका तांतयाक लागून, इश्टागतीन चलपी दोन घराब्यां मदीं विरोध-तंटो सुरू जालो.

गाब्रिएलान आपणाल्या खाडाचे कांय केंस एका कागदांत गुठलायले आनी ते घेवन तो सरकारी कचेरेंत गेलो. ताणें इव्हानाचेर आरोप केलो. म्हणूंक लागलो, ''हांवें खाड वाडयिल्लें तें दुश्ट इव्हानाक ओडपा खातीर न्हय!'' गाब्रिएलाची बायल म्हणूंक लागली, ''पळयात आतां इव्हान बंदखणींत पावतलो!''

जाणटेलो खाटीर आड पडिल्ले थंयच्यान सांगपाचो यत्न करतालो- ''झगडीं थांबयात आनी आदले भशेन मायेमोगान चलात...'' पूण कोण ताचें आयकुपाक तयार नाशिल्लो. जाणटेलो म्हणूंक लागलो, ''तुमी, ल्हान भुरग्यां वरी, कस्पटा समान एका तांतया खातीर झगडटात. कोणाय भुरग्यान व्हेलां आसतलें तांतीं. आनी, निमाणें, एका तांतयाचें मोल कितलें? देवान आमकां भरपूर दिलां. आनी, शेजाऱ्यांनी तुमकां वायट उतरां दिल्लीं आसल्यार तुमी तिका बऱ्या उतरांनी जाप दियात. सगळ्यां कडल्यान केन्ना तरी चूक घडटाच. हें केंस्ताव आतांच पालयात आनी आदले वरी बरे भशेन चलात. ही दुस्मानकाय घेवन बसल्यार तिचो तुमकांच त्रास जातलो.''

जाणटेल्या त्रॉलान आपलें मत मांडलें पूण कोणेंच ताचें म्हणणें कानामनार घेतलेंना. म्हातारपणांतलें उलोवणें; ह्या कानांतल्यान भितर

घेवन त्या कानांतल्यान सोडून दिवपाचें, हे भाशेन केलें. इव्हानान रागान म्हणलें, ''हांवें ताच्या खाडाचे केंस ओडून काडूंक नात. वयल्यान ताच्याच पुतांनी म्हजे खोमीस पिंजलां... खोमसाची कितें दशा जाल्या, पळय.''

इव्हानूय आपणालो आरोप घेवन सरकारी कचेरेंत गेलो. न्यायाधिशांनी ताचें आयकून घेतलें. तेन्नाच गाब्रिएलाचे गाडयेच्या चाकाचो एक गांच ना जालो. ताच्या घरच्या बायलांनी इव्हानाच्या पुतांचेर दुबाव धरलो. परतींय तीं कचेरेंत गेलीं. आदीं तांचीं भुरगीं एकामेकां बराबर खेळटालीं. आतां तींय एक-दुसऱ्याक वायट उतरां दिवंक लागलीं. पयलीं घरचीं बायलां वाटेर मेळटना हांसून उलयतालीं, आतां रागान पळोवंक लागलीं; गाळी घालून झगडूंक लागलीं. सुरवेक फकत गाळी घालतालीं, झगडटालीं मागीर एका दुसऱ्याची कसलीय वस्त काडूंक लागलीं. जिवीत त्रासांचें जालें. सूख, समाधान थंयच उरलें. जिबेर वायटपण आनी काळजांत कोडसाण पातळ्ळी. इव्हान आनी गाब्रिएल परते परते सरकारी कचेरेंत वचून एकामेकांचेर आरोप करीत आसताले. गरजे भायर दुस्मानकाय वाडत गेली. ल्हान ल्हान कारणां वयल्यान ते एकामेकांक धमकावंक लागले. ''रावं दाखयतां! बरी बुद्द शिकयतां तुका!''

जाणटेलो सांगत आसतालो, ''तुमची ही दुस्मानकाय, बुद्द शिकोवपाची ही भास सोडून दियात. तुमचें काम करात. मनांतलो दुस्वास ना करात. तुमकांच ताचे त्रास जातले.''

पूण कोण ताचें आयक नासलो.

सात वर्सां उपरांत एका लग्न सुवाळ्यांत इव्हानाचे सुनेन गाब्रिएलाचेर तो घोडे चोरता म्हूण आरोप केलो आनी लोकां हुजीर ताका लज केली. गाब्रिएल बरोच पियेल्लो. हो आरोप ताच्यान सोंसूंक जालोना आनी इव्हानाचे सुनेक ताणें मार घालो. इव्हानाची सून एक आठवडो भर न्हिदून उरली. ती तेन्ना गुरवार आशिल्ली.

कचेरेंत वचूंक कारण मेळ्ळें म्हूण इव्हान खोशी जालो. सरकारी न्यायाधिशां सरीं वचून ताणें गाब्रिएलाचेर आरोप केलो. आतां गाब्रिएलाक बंदखणींत वचून बसचेंच पडटलें अशें ताका दिसलें, पूण तशें कांय जालें ना. मार खाल्ले बायल मनशेचेर माराच्यो कसल्योच कायमच्यो कुरवो उरूंक नाशिल्ल्यो; ती घरांत भोंवताली, वावुरताली. हाका लागून गाब्रिएलाक कसलीच ख्यास्त जाली ना.

इव्हानान व्हडल्या न्यायाधिशा सरीं वचून आरोप केलो. न्यायाधिशान गाब्रिएलाक वीस दांड्यांच्या माराची ख्यास्त फर्मायली. हें आयकतना इव्हान गाब्रिएलाच्या तोंडाक पळोवंक लागलो. ताचें तोंड फिकें पडिल्लें. तो मोन्यांनी भायर गेलो. इव्हानूय ताचे फाटल्यान गेलो. गाब्रिएल पुटपुट्टालो. ''ताणें म्हजे फाटीर वीस दांडे घालचे केल्यात. म्हजी फाट भगभगतली. हांवूय ताची कसलीय वस्त लासून उडयतलों. ताका म्हजे परस चड भगभग भोगयतलों.''

इव्हान रोखडोच न्यायाधिशा सरीं गेलो आनी ताणें आनीक एक आरोप केलो.

गाब्रिएल म्हणूंक लागलो, ''म्हाका दांड्यांचो मार दियात... हांवें कांय म्हणूंक ना. आतां म्हाका दिसता, हांवेंच कश्ट भोगचे. ताच्या वायटपणाक कांय शिक्षा ना दिसता.''

हें उलयतना गाब्रिएल भयानक दिसतालो. ताचें तोंड पळोवन थंय आशिल्ले अधिकारी पसून भियेले. ती सुवात न्हय जाल्यार तो शेजाऱ्याक कितें तरी करतलोच आसलो अशें दिसतालें.

तो जाणटो न्यायाधीश म्हणूंक लागलो, 'हें पळयात, तुमी आतां देवान दिल्ली बुद्द मातशी वापरात. इश्टा गाब्रिएला, तुवें एके गुरवार बायलेक मारली. हें चुकीचें. देवाचे दयेन तिका व्हडलेशें कांय जालेंना. तशें कितेंय जाल्लें जाल्यार तुजो दंड वाडटलो आशिल्लो. आतां तुजी चूक मान्य कर आनी इव्हानाची माफी माग. तो तुका माफ

करतलो. तशें जालें जाल्यार तुका फर्मायिल्ली ख्यास्त म्हज्यान फाटीं घेवं येता.''

कचेरेंतल्यान एका कर्मचाऱ्यान एका नेमाचेर बोट दवरलें आनी ख्यास्त अशी बदलूंक मेळना म्हूण सांगलें. न्यायाधिशान ताका ओगी रावंक सांगलें. म्हणूंक लागलो, ''तुमी सगले देवाक मानतात. तेन्ना पयलो न्याय देवाचो. देवाक शांतताय, सवस्तकाय आवडटा, झगडी तंटे न्हय.'' परतोय ताणें गाब्रिएलाक उपदेश केलो. पूण गाब्रिएल आयकुपाक तयार नाशिल्लो. थरथरत्या आवाजांत तो उलोवंक लागलो- ''फुडल्या वर्सा म्हाका पन्नास भर जातलीं. म्हज्या पुराय जिवितांत म्हाका केन्नाच दांड्यांच्या माराची ख्यास्त जावंक ना. ह्या इव्हानान म्हाका कचेरेंत ओडून व्हरून म्हाका असल्या माराची ख्यास्त दिवंक लायली. हांवें ताची माफी कित्याक मागची? जालें तें खूब जालें...'' इतलें म्हणून तो कचेरेंतल्यान उठून भायर गेलो.

कचेरे सावन इव्हानाचें घर सात मैलांच्या अंतराचेर आसलें. तो घरा पावतासर तिनसांज जाल्ली. घोड्याक ताच्या जाग्यार बांदून तो घरांत भितर सरलो. घरांत कोण नाशिल्लीं. बायलो गोठ्यांत गोरवांक बांदूंक गेल्ल्यो आनी भुरगे शेतांतल्यान अजून परतूंक नासले.

इव्हानाच्या दोळ्यां मुखार गाब्रिएलाचें फिकें, रागान आनी लजेन भरिल्लें तोंड आयलें. ताका मातशें वायट दिसलें. ताचे सुवातेर हांव आशिल्लों जाल्यार म्हाका कशें दिसपाचें? ताका गाब्रिएलाची काकुळट दिसली. इव्हानाचो जाणटो बापूय खाटीर उठून बसलो आनी ताणें विचारलें, ''कसली ख्यास्त जाली गाब्रिएलाक?''

''फाटीर वीस दांडे पडले...'' इव्हानान जाप दिली.

जाणटेल्यान तकली हालयली आनी म्हणूंक लागलो, ''जालें तें खूब वायट जालें. ताकाच न्हय, तुकाय, आमकांय. ताका मार पडलो. तुका कितें मेळ्ळें?''

''तो परतो आनी तसो वागचो ना,'' इव्हानान जाप दिली.

"तुमच्या दोगांयच्यो करण्यो सारक्योच. तुजे परस ताणें अदीक वायट कितें केलां, सांग..."

"म्हजे सुनेक तो जिवानिशीं मारतलो आसलो. आनी आतां आमकां उजो घालून लासतलो म्हूण धमकी दिल्या."

इव्हानाच्या बापायन तेन्ना म्हळें-

"इव्हान, तूं भायर भोंवता आनी हांव हांगाच पडून आसतां. रागान तूं कुड्डो जाला. तुका फकत ताचें वायट आंग दिसता, तुजें दिसना. झगड्यांत सदां दोगां आसतात. एकट्याक लागून केन्ना झगडें जायना. ताच्या खाडाचे केंस कोणें ओडले? ताचें तणा कुडें कोणें इबाडलें? आनी, ताका सरकारी कचेरेंत कोणें व्हेलो? तूं निर्दोश आशिल्ले वरी तूं सगळें ताचेर घालता. आमच्या तेंपार आमी अशें चलनाशिल्ले. ताचो बापूय आनी हांव मायेमोगान, एकामेकांक आदार करीत शेजाऱ्यां वरी चलताले. तांगेर गंवाचे पीठ कमी जालें जाल्यार कोणूय आमगेर येतलो आनी म्हणटालो, "त्रॉलकाका, इल्लें गंवा पीठ जाय आशिल्लें." हांव मागीर पीठ दवरुपाचे सुवातेक बोट दाखोवन म्हणटालों, हेऽ तातूंत आसा पीठ. जाय तितलें काडून व्हर... तांगेल्या घोड्यांक चरपाक व्हरपी कोणूय नासलो जाल्यार हांव तुका सांगतालों तांकां चरोवन हाडूंक. म्हाका कसलीय गरज पडटाली तेन्ना सरळ वचून गोर्दबाबा कडेन मागतालों. तोय म्हणटालो, "व्हर रे त्रॉलबाब तुका जाय तें" पूण आतां पळय, आमचो तारास आनी तांचो ग्रेन्ना एकामेकां कडेन गाळींनीच उलयतले आनी तांच्यो आवयो तांकां बरी बुद्द दिवचे सुवातेर खो खो करून हांसतल्यो. हें बरें दिसता तुका? एक दीस तुका हाची सगळ्याची जाप दिवची पडटली. तुज्या आत्म्या विशीं चिंता. हें सगळें चल्लां तें तुका बरें, न्यायाचें दिसता? तांणी एक उतर दिलें, तुमी दोन उतरां दितात. पुता, जेजूच्या उतरांचो उगडास दवर. कोणेंय तुका वायट उतरां दिलीं जाल्यार तूं ताका वायट उतरां दिवं नाका, ओगी राव, कोणेंय तुज्या एका पोल्यार थापट मारलें

जाल्यार दुसरो पोलो मुखार कर. आनी सांग, म्हजी चूक आसा जाल्यार मारात म्हाका. ही देवाची शिकवण. देवान आमकां आमचो गर्व आनी अहंकार सोडूंक सांगिल्लो. पुता इव्हान, ओगी कित्याक? हांव उलयलां तांतलें कितेंय चूक दिसता तुका?''

इव्हान कांय उलयलो ना.

त्रॉलान मुखार म्हळें-

''पुता इव्हान, तुज्या म्हाताऱ्या बापायचें म्हणणें आयक. आतांच सरकारी कचेरेंत वच आनी गाब्रिएला वयले आरोप फाटीं घे. ही दुस्मानकाय सोड आनी आदले वरी इश्टागतीन चलात... फाल्यां फेस्ताचो दीस. गाब्रिएलाक इल्ली च्या आनी व्होडका पिवपाक दी. सोंपय ही दुस्मानकाय... घरच्या बायलां भुरग्यांकूय हेच भाशेन चलूंक सांग. ह्या झगड्या तंट्यांनी तुजें कितें बरें जालां? सरकारी कचेरेचेर तुवें कितलो पयसो मोडला जातलो, कोंत कर. खरें म्हणल्यार तुगेल्या भुरग्यां बराबर तुवें शेत नांगरूंक वचूंक जाय आसलें. पूण तूं हांगा हे भानगडींत बुडून आसा. शेतांत काम कशें चल्लां ताचेर तुजें कांय लक्ष ना. अंदूं पिकूय कमी आयलां, तूं जाणा? तुज्या वावरांत लक्ष घाल. भुरग्यां बराबर शेतार वावूर. घरांत कोणेंय तुजो अपमान केल्यार तांकां माफ कर. तेन्नाच तुजें जिवीत सरळ आनी सुखाचें जातलें. तुजें काळिजूय शांत उरतलें.''

इव्हानान एक हुस्कारो सोडलो. ताका दिसलें, बापायन म्हाका सांगलां तें सगळें खरें. हें चिंततना ताचें मन ल्हव जालें. खूब तेंपान काळजांत इल्ली खोस भरून आयली. पूण इतल्या तेंपाचें केस्तांव सोंपोवचें कशें, सुरवात कशी करची, ताका कळना जालें. ताच्या मनांत कितें चलतालें ताची सुलूस लागिल्ले वरी जाणटेल्यान म्हळें, ''वच इव्हान, वच. वेळ वगडावं नाका. उजो सगळ्यांक पातळचे आदीं आतांच वचून पालय.''

तेन्नाच बायलां-भुरगीं घरांत भितर सरलीं. गाब्रिएलाक फावो

जाल्लो दांड्याच्या माराचो दंड, उपरांत ताणें दिल्ली घराक उजो घालपाची धमकी, बी त्योच खबरी तीं मोठ्या मोठ्यान करपाक लागलीं. सरकारी न्यायाधीश तांकां मदत करतलो अशें गाब्रिएलाचे सुनेन कशें म्हणलें; रशियेच्या राजाकूच पत्र बरोवन इव्हानाचो अर्दोजागो तीं तांचो कशीं करून घेवपाचीं आसात... ह्योय खबरी तांच्या गजालींनी आयल्यो. इव्हानाच्या कानार हें सगळें पडलें आनी ताचें मोव जाल्लें काळीज परतेंय रागान आनी दुस्वासान भरलें. गाब्रिएला कडेन इश्टागत जोडपाचो विचार ताणें सोडून दिलो.

शेताचीं खूब कामां आशिल्लीं. इव्हान तीं करूंक गेलो. शेतांत मातशें निवळ करता सर काळोख जालो. तागेले तिगूय पूत शेतांतल्यान घरा आयले. थंडेच्या काळाचें काम चलतालें. ते घोडे घेवन नांगरप करताले. थोडें किरकोळ काम करून घोड्यांक सोडले आनी गोरवांक तण-पेंड घालूंक गेले. तारास घोड्यांक चरपाक घेवन वचपाचो आशिल्लो. इव्हान रातच्या जेवणाचें आनी उपरांत न्हिदपाचें चिंततालो. बापायलो उपदेश आनी गाब्रिएल-दोनूय ताचे तकलेंत नाशिल्ले. घरांत भितर सरच्या वेळार गाब्रिएलाचीं रागान भरिल्लीं उतरां ताच्या कानार पडलीं- ''तो जिवो आसून कितें उपेग? ताका मारूंक जाय...'' हें आयकून इव्हानाकूय राग आयलो. थोडो वेळ तो थंयच रावलो आनी मागीर घरांत भितर सरलो. घरांत एक दिवो पेट्टालो. ताची बायल रांदताली, सून सूत कांतताली, व्हडलो पूत रुखा मुळा बसून जोतें करतालो. इव्हानाच्या घरांत सगळें शांत आशिल्लें. ताचें मन मात अस्वस्थकायेन आनी रागान भरिल्लें. तोंडार राग आनी दुस्वास आशिल्लो. शेजारी ताका एक पिडा कसो दिसतालो.

बांकार न्हिदिल्ल्या माजराक सकल धुकलून उडोवन इव्हान थंय बसलो आनी बायलेच्यो चुकी बेश्टो सोदून काडूंक लागलो. गाब्रिएलाचीं उतरां परतीं परतीं ताचे तकलेंत येतालीं. ताणें कचेरेंत

दिल्ली धमकी आनी निकतेंच कानार पडिल्लें वाक्य- 'मारूंक जाय.'

बायलेन तारासाक वाडलो. एक पोरणें मेंढराचें चामडें फाटीर घालून, इल्लो पाव वांगडा घेवन तारास घोड्या सरीं गेलो. इव्हान उठलो आनी पुताक घोड्यार बसूंक आदार केलो. तारास गेलो. ताचे बराबर गांवचे कांय भुरगेय घोड्यार बसून गेले. इव्हान दरवट्या कडेन उबो आशिल्लो. घोड्याच्या गेतांचो आवाज आतां आयकूंक येना आशिल्लो- ''इव्हानाच्या मनांत परतीय गाब्रिएलाची धमकी आयली. 'तुजी कसलीय वस्त हांव लासून उडयतलों...''

गाब्रिएल रागा भरशीं कितेंय करूंक शकता. आतां वारेंय व्हांवता आनी सगलें सुकें सुकें आसा. तो आमचें घर लासून उडयतलो आनी निर्दोश म्हूण सुट्टलो. तो उजो पेटयता आसतनाच ज्युस्त ताका धरूंक जाय. अशें येवजीत येवजीत इव्हान घरांत भितर सर नासतना असोच रस्त्यार पासयो मारूंक लागलो. ताच्या दुबावी आनी अस्वस्थ मनाक कोण तरी थंयच्यान ल्हव पावलांनी गेल्ल्याचो भास जालो. तो तटास जालो. कान दोळे उक्ते करून रावलो. सगळ्याक शांत आशिल्लें. वाऱ्यान फकत पानां आनी पाख्या वयलें सुकें तण हालतालें. काळोख जाल्लो. काळखांत ताका एक नांगर सो दिसलो. पूण थंय कोण मनीस नाशिल्लो. ''हांव चुकलां आसतलों,'' इव्हानान मनांत म्हणलें. पूण घरा भोंवतणी एक पासय मारिल्ली बरी अशें येवजीत तो इल्लो मुखार गेलो. तितल्यांत नांगरा म्हऱ्यांत एक दिवो पेटिल्ले वरी ताका दिसलो. म्हणटासर तो ना जालो. कांय वेळान परतो दिसलो. उजवाडांत इव्हानाक एक मनीस तणाक उजो घालता काय दिसलो. ताचें काळीज धडधडूंक लागलें. तरी तो ल्हवू ल्हवू मुखार गेलो. 'सारको धरतां तुका, आतां तूं कसोच सुटचो ना...' ताणें मनांत म्हळें.

आतां तो ल्हान दिवो उरूंक नाशिल्लो. व्हडलो उजो जाल्लो आनी पाख्या मेरेन पाविल्लो. उज्याच्या उजवाडांत गाब्रिएल सारको दिसतालो. एक व्हडलो पक्षी ल्हान शेवण्याक धरूंक व्हता तसो इव्हान



लंगड्या गाब्रिएकलाक धरूंक धांवलो. पूण गाब्रिएल सोंश्या वरी धांवलो. इव्हानाच्या पावलांचो आवाज आयकून रोखड्या रोखडो गायब जालो. "तूं कसोच सुटना," अशें म्हणत इव्हान ताचे फाटल्यान वेगान धांवलो. गाब्रिएलाची ज्युदी ताच्या हातांत आयली पूण गाब्रिएल नेटान मुखार धांवलो तशी ज्युदी पिंजली. गाब्रिएल सुटलो आनी इव्हान सकल पडलो. गजाल मारूंक लागलो- "धावात रे! धरात ताका! चोर! खुनमारो..." असो आड्डूंक लागलो. आनी उठून परतोय गाब्रिएला फाटल्यान लागलो. गाब्रिएलाच्या हातांत एक लाकडाचो दांडो आशिल्लो तो ताणें इव्हानाचे तकलेर घालो. इव्हान कांय वेळ बेशुद्ध जावन पडलो. इतल्यान ताच्या घरा म्हन्यांत एक व्हडलो आवाज जाल्लो ताका आयकूंक आयलो. घरा फाटलो गोठो जळटालो. घरा म्हन्यांतूच थोडो उजो आनी धुंवर दिश्टी पडटालो.

'धांवात रे...! पळेयात कितें जालां तें...!' इव्हान आड्डूंक लागलो. ताच्या हातांतली चूड काडून घेवंक जाय आशिल्ली. पूण आपल्यांत तितलीय शक्त ना; मोठ्यान आड्डी मारपाचीय शक्त ना, ताका दिसलें. इव्हानाचें घर सगळें लासून गेलें. शेजारी धांवन आयिल्ल्यान थोडें सामान तांणी भायर काडलें आनी उज्या पसून वाटायलें.

इव्हानाच्या बापायक उबारून भायर काडलो. हेर सगळीं भायर आयलीं. तांचे जीव वाटावले. पूण बाकी सगळें गोबर जावन गेलें. घोडे चरूंक मळार गेल्ल्यान वाटावल्ले. पूण गोरवां, कोंबयो, नांगर, एक बैलगाडो, बायलांच्यो कपड्यां पेटो सगळे सगळें काबार जाल्लें. इव्हानाकूय उज्याचो मातसो धग लागिल्लो. पूण ताचें मन भेरेल्लें. घर, गोरवां, इल्ल्यो इल्ल्यो करून एकठांय करून दवरिल्ल्यो वस्तू-कांय उरूंक नाशिल्लें तें पळोवन तो म्हणूंक लागलो, "...कितें जालें हें इश्टांनो! फकत ताच्या हातांतली चूड काडून घेवपाची हांवें..." सकाळीं फुडें गांवच्या मुखेल्याचो पूत येवन इव्हानाक सांगूंक लागलो,

"तुज्या बापायचो मरणाचो वेळ आयला. तुका ताणें आपयला..."

इव्हानाचें मन थाऱ्यार नाशिल्लें. "बापायक कितें जालां?... म्हाका सो आपयता...?" ताणें मुखेल्याच्या पुताक विचारलें. "बापूय तुजो निरोप घेवंक सोदता..." भुरग्यान परतेंय सांगलें, आनी इव्हानाचो हात धरून तो ताका आपल्या घरा कडेन व्हरूंक लागलो.

घराक उजो लागिल्लो त्या दिसा जाणटेल्याक उबारून भायर हाडटना ताच्या आंगार इल्लें पेटिल्लें तण पडिल्लें, आनी आंगाचो कांय भाग लासून गेल्लो. गांवच्या मुखेल्यान ताका आपल्या घरा व्हेल्लो. मुखेल्याचें घर मातशें पयस आशिल्लें. इव्हान थंय पावलो तेन्ना मुखेल्याची बायल आनी कांय भुरगीं जाणटेल्याक न्हिदयल्लो ते कुडींत आशिल्लीं.

"तुजो पूत इव्हान आयला पळय तुका मेळूंक..." जाणटेलेन इव्हानाच्या बापायक सांगलें. तो एका बांकार आड पडून आशिल्लो.

"हांवें कितें सांगिल्लें इव्हान? घर कोणें लासलें?" बापायन विचारलें.

"ताणेंच, बाबा. हांवें ताका धरलो, पूण म्हजे तकलेर दांडो घालून, पेट्टी चूड घेवन ताणें आमच्या घराक उजो घालो. हांवें सगळें पळयलें, पूण म्हज्या आंगात शक्त नाशिल्ली. हांव सकल पडिल्लों. ना जाल्यार हांव कितेंय तरी करतलों आशिल्लों. येदो व्हडलो अनर्थ जावचो नाशिल्लो..."

"इव्हान, हांव चल्लों... एक दीस तूंय मरतलो. कोण चुकलो? सांग इव्हान..." इव्हान बापायक पळयत रावलो. कांय उलयलो ना.

"देवाचें नांव घेवन सांग, चूक कोणाची? हांवें तुका कितें सांगिल्लें, याद आसा?"

इव्हान तेन्ना साबुद्दीर आयलो आनी घडिल्लें सगलें सांगूंक लागलो. दिमी घालून म्हणूंक लागलो, "बाबा, म्हाका माफ कर. हांवूच गुन्यांवकार. तुज्या आनी देवाच्या मुखार सांगता हें हांव."

जाणटेल्यान उजव्या हातांतली मेणवात दाव्या हातांत घेतली आनी उजवो हात कपलाक लावपाक वयर काडपाचो यत्न केलो. पूण ताच्यांत कांय शक्त नाशिल्ली.

"देवाचें नांव घे. ताची तुस्त गा..." अशें म्हणून तो पुताक पळेत रावलो. "इव्हान, इव्हान..." म्हूण कांय वेळान ताका उलो मारलो.

"कितें जाय बाबा?" इव्हानान विचारलें.

"आतां आमचें कशें जातलें, हांव कांय नकळं," ताणें म्हळें.

बापायन मिनीट भर दोळे धांपले आनी मागीर म्हणूंक लागलो, "कशेय बशेन जातलें... देवाचो आदेश सदां पाळूंक जाय... कोणें उजो घालो, कोणाक सांगू नाका. दुसऱ्याची चूक लिपय. देव तुमकां दोगांकूय माफ करतलो." आनी दोनूय हातांनी मेणवात धरून जाणटेल्या त्रॉलान प्राण सोडलो.

बापायचे सांगणेक मान दिवन इव्हान तोंड धांपून रावलो. गाब्रिएला आड ताणें कांय कागाळ केलिना. गाब्रिएलाकूय अजाप जालें. सुरवेक ताका भंय दिशिल्लो. उपरांत इल्लो इल्लो करून तो ना जालो. गाब्रिएला विशीं आशिल्लो इव्हानाच्या मनांतलो रागूय ल्हवू ल्हवू ना जालो. कांय तेंपान दोनूय घराब्यां मदलीं झगडीं-केस्तावां बंद जालीं आनी इल्ले इल्ले करून ते आदले वरी इश्टागतीन चलूंक लागले.

गाब्रिएलाच्या घरा शेजराच इव्हानाचें घर परतेंय उबें जालें. आदले वरी सगलीं मायेमोगान चलूंक लागलीं. राग, दुस्वास, अखटाय सगळें विसरून इव्हान शॅरबाकार आपल्या बापायचो उपदेश मानून देवाचो न्याय पाळटालो. आतां ताचें कोणेंय वायट केल्यार, ताका कोणेंय दुख्ख दिल्यार तो तें शांतपणान घेता. मनांत राग धरिना. कोणेंय ताका गाळी घाल्यार तो ताका बऱ्या उतरांनी जाप दिता. बायले भुरग्यांकूय ताणें हीच शिकवण दिल्या. आतां इव्हान शॅरबाकाराची परिस्थिति आदले परस बरी आसा. सुखा समाधानान, देवाची भक्ती करीत तो जियेता.

# दोग तीर्थयात्री

एका गांवांत एफीम आनी एलिशा म्हूण दोग जाणटे मित्र आसले. खूब वर्सां पयलीं तांणी जेरुझालेंक भेट दिवप म्हूण आंगवण केल्ली. वर्सां वचत आशिल्लीं. एक दीस एफीमान एलिशाक म्हणलें, ''जेरुझालें आमी आतां गेले नात जाल्यार तें केन्ना जमून येवपाचें ना. आतांच आमी जाणटे जाल्यात. आनीक दोन-तीन वर्सांनी आतां आसा तितली शक्तूय आमकां आसची ना.''

एफीम गंभीर सभावाचो गिरेस्त शेतकार आशिल्लो. तो सोरो पिये नाशिल्लो. सिगरेट-विडीय ओडी नाशिल्लो. जल्मांत ताचे जिबेर केन्ना वायट उतरां येवंक नाशिल्लीं. दोन खेपे गांवाचो मुखेली जावन ताणें गांवाची सेवा केल्ली. ताचें कुटूंब व्हड आसलें. दोग जाण पूत आनी एक लग्न जाल्लो नातू- सगळीं जाणां एकठांय एकाच घरांत रावतालीं. मनीस जिवान घटमूट आसलो. ताची चालूच पळयल्यार तें कळटालें. ताणें लांब खाड दवरिल्लें. अंदू वर्साच ताच्या खाडांत कांय धवशे केंस दिसूंक लागिल्ले.

एलिशा कडेन चड जागो नाशिल्लो. तो म्होंवाचो धंदो करतालो. आपुणूच म्होंवा मूस पोसतालो आनी म्होंव काडटालो. आदीं तो मेस्तकाम करतालो. एलिशा मोटवो आसलो. ताच्या नांवाच्या

सांताक नाशिल्ले तशे एलिशाच्याय माथ्यार केंस नाशिल्ले. मनीस मायेस्त आनी आनंदीत आसलो. केन्ना केन्ना तो इल्लो सोरो पियेतालो आनी गोस्तान पदां म्हणटालो. सभावान तो शांत आसलो, आनी घरच्यां कडेन, शेजाऱ्यां कडेन प्रेमान चलतालो.

कितेंय तरी कारण जातालें आनी ताची तीर्थयात्रेची थारावणी फुडें धुकलुची पडटाली. दोगांकूय दिसतालें, अशें जावंक फावना. एक खेपे आंगवण केल्ली तिका पाळो दिवंकूच जाय. अडचणी केन्नाय आसतात... नाजाल्यार देवाचें आमचेर रागणें जातलें. अंदू कशेय भशेन वचपूच, तांणी थारायलें. वचपाक शंबर रुबल तरी जाय आशिल्ले. पयली युक्रेन, मागीर ऑडेसा आनी मागीर थंयच्यान बोटींतल्यान जेरुझालें.

एफीमान पुतांक आफोवन हाडून आपणालो बेत सांगलो. तांकां घराचो भार घेवंकूय सांगलें. शंबर रुबल एकठांय करूंक ताका वेळ लागलो ना. तरी मनांत हुसके आशिल्ले. व्हडलो पूत सोरो पियेतालो. तो घरचो कारभार कसो पळयतलो... एलिशान ताका धीर दिलो. म्हणलें, ''इश्टा, चिंता करूं नाका. तुजो पूत सांबाळटलो घर बरे भशेन. आतां आनी कसलेंय कारण काडून वचपाचें दवरचें न्हय... हांव म्हजीं कांय म्होंवा मालीं विकतां आनी घरच्यांचीय मदत घेवन शंबर रुबल एकठांय करतां.

एलिशाची उमेद पळोवन एफीमाक धीर आयलो.

एलिशा अर्दकुट्या बांदिल्ल्या लाकडाच्या घरांत रावतालो. तें तशेंच सोडून भायर सरप म्हूण ताणें थारायलें. ताच्या मनांत चिंता हुसके कांय नाशिल्ले. एफिमाच्या मनांत खूब हुसके आशिल्ले. पूण एलिशान ताका सांगलें, ''जिवीत आनी मर्ण कांय आमच्या हातांत आसना. तें देवाल्या हातांत आसता. आंगात शक्त आसा तशे आतांच भायर सरूंया.''

एक दीस सक्काळीं फुडें दोगूय जाणटेले खांदार गरजेच्या वस्तूंच्यो

पोटल्यो घेवन कुटुंबाचो निरोप घेवन तीर्थयात्रेक भायर सरले. एफीमान भायर सरचेल्या वेळार घरच्यांक ल्हान सान खूब सुचोवण्यो केल्यो. एलिशा जाणा आशिल्लो, ताची बायल आनी पूत घर बरे भाशेन सांबाळटलीं. तो कसल्योच सुचोवण्यो करूंक गेलो ना. खोशयेन भायर सरलो. यात्रेंत कोणाक रागू हाडूंक फावना, बरे बशेन यात्रा करून परतूंक जाय, ताणें येवजिलें. चलतां चलतां कसली तरी प्रार्थना तो गुणगुणत आशिल्लो. वाटेर मेळिल्ल्या सगळ्यांक तो हांसत हडकितालो. ताका एकूच वायट संवय आशिल्ली, पूड ओडपाची. एफीम चलतना चड उलय नाशिल्लो. मात मनांत घरचीं चिंता आशिल्लींच. कितें करतात आसतलीं काय, कशें जाता आसतलें घरचें, ही येवजण ताका त्रास दिताली.

सेगीत पांच सप्तकां चल्ले उपरांत ते युक्रेन पावले. वाटेर ह्या दोगांय जाणटेल्यांक त्या त्या गांवच्या लोकांनी आपणाल्या घरांत आपोवन जेवण-खाण दिलें. एक दोन खेपे न्हिदपाक सुवातूय दिली. मुखार चलत वतना तांकां असलोय एक गांव मेळ्ळो जंय पयशे दिल्यार पसून भाकरी मेळनासली. कांय गांवांनी दुश्काळ पडिल्लो, आनी लोकांक जेवंक खावंक कांयच नाशिल्लें.

एक दीस एका गांवांत तांणी थोडी भाकरी विकती घेतली, रात थंयच सारली आनी फांतोडेर उठून चलूंक लागले. सात-आठ मैल चलून जाले उपरांत एक व्हाळ लागलो. व्हाळा देगेर बसून तांणी भाकरी खाली आनी उदक पिले. संवये प्रमाण एलिशान पुडयेची डबी काडली आनी चिमटी भर पूड काडून तिचो वास घेतलो. तें पळोवन एफीमान ताका विचारलें, ''आरें, ही वायट संवय तुज्यान सोडूंक कशी जायना?'' हाचेर एलिशा हांसून म्हणूंक लागलो, ''कितें करूं, हें वेसन म्हजेय परस घट...!''

एफीम झप झप पावलां उबारून चलतालो. पूण एलिशा मोटवो आशिल्ल्या कारणान एमीफा बरोबर चलपाक ताका मातशे त्रास

जाताले.

एक दीस चलतां चलतां एका गांवांत पाविल्ले आसतना एलिशाक खूब तान लागली. ताणें एफीमाक म्हळें, "म्हाका पियेवंक उदक जाय..." एफीमान म्हळें, "तूं वचून उदक पियेवन यो. हांव चलत रावतां. म्हाका तान लागूंक ना. उदक पी आनी तूं म्हजे फाटल्यान यो." "बरें, चल तूं मुखार, हांव रोखडोच आयलों फाटल्यान" अशें म्हणून एलिशा गांवांतले एके खोंपीचें दिकेन गेलो.

खोंप ल्हानशीच आशिल्ली. भायर एकलो मनीस न्हिदिल्लो. खोंपीची स्थिती सामकी वायट आशिल्ली. तो मनिसूय सामको दुयेंत आसा काय दिसतालो. तो जागो आशिल्लो. पूण एलिशा ताचे म्हर्‍यांत पावलो तेन्ना ताणें ताचेर नदर लेगीत घालिना. इल्लें उदक पियेवंक मेळत काय म्हूण एलिशान ताका विचारलें तेन्नाय त्या मनशान ताका जाप केलिना. तेन्ना एलिशान आवाज मातसो मोठो केलो, आनी 'सभाग्या, क्रिस्तांवा, देवाच्या दासा-' म्हूण ताका उलो मारलो. तरी कांय जाप मेळ्ळिना.

एलिशा थंयच्यान फाटीं सरून दुसरे कडेन उदका खातीर वचपाची तयारी करपाक लागलो. तेन्ना एक बारीकसो त्राशीक आवाज ताच्या कानार पडलो. ह्या घरांतलीं सगलींच जाणां दुयेंत काय देवा, अशें येवजीत तो खोंपींत भितर सरलो. घरभर एक विचित्र वास येतालो. दुयेंसाचो कसो. एके वटेन गर्मी येवची म्हूण धग घालपाची सुवात आशिल्ली, आनी दुसरे वटेन देवाची एक ल्हानशी मूर्त आशिल्ली. भितर एक जाणटेली बशिल्ली. तिचे म्हर्‍यांत एक धाकलो भुरगो रडत बशिल्लो. खूब दीस तांच्या पोटांत कांय जेवण-खाण पडूंक ना काय दिसतालें. आनीक एक ल्हान भुरगें आनी एकली दुयेंत, शुद्धीर नाशिल्ली बायल-मनीस एलिशाक थंय दिश्टी पडली. हे बायल मनशेचेर उपाय करपाची घरच्यां भितर शक्तूय नासली. एलिशाक तांची खूब खूब काकुळट दिसली.

"कित्याक आयला तूं हांगा? आमचे कडेन कांय ना..." ते जाणटेलेन एलिशाक म्हणलें. तिका दिसलें, तो चोरूंक आयला.

"हांव फकत उदक पियेवंक आयिल्लों," एलिशान जाप दिली.

"उदक काडुंकूच हांगा कोण ना. वच तूं," ते जाणटेलेन म्हळें.

"हे दुयेंत बायलेक वखद दिवंकूय कोण ना?" एलिशान विचारलें.

"ना," जाणटेलेन म्हणलें. "म्हगेलो पूत भायर मरता, आनी आमी भितर मरणाची वाट पळेतात."

जाणटेले म्हऱ्यांत बशिल्लो ल्हान भुरगो एलिशाक पळोवन रडपाचो थांबिल्लो, तो आतां परतोय रडूंक लागलो. "आजये म्हाका खावपाक भाकरी दी... खूब भूक लागल्या... खावपाक दी..." तेन्ना तो भायर न्हिदिल्लो मनीस वणटीचो आधार घेत भितर आयलो आनी भोव दुबळ्या आवाजांत म्हणूंक लागलो, "आमी सगळीं पिडेस्त हांगा... म्हजो पूत भुकेन मरता पळय... गांवांत दुकळ पडला." आनी, भुरग्या कडेन बोट दाखोवन तो रडपाक लागलो.

एलिशान फाटीर मारिल्ली पोटली सकल दवरली, आनी ती सोडोवन भितरल्यान भाकरी काडली. सुरी घेवन तिचे चार कुडके केले. एक कुडको त्या भुरग्याक, एक धाकले चलयेक, एक जाणटेलेक आनी एक त्या मनशाक दिलो. त्या मनशान पयली "म्हाका नाका, म्हाका नाका... तांकांच दी,' म्हणलें, पूण उपरांत हेरां बशेन तोय खावंक लागलो. जाणटेली म्हणूंक लागली, "इल्लें उदक मेळिल्लें जाल्यार बरें जावपाचें. हांव बांय कडेन बालदी घेवन गेल्लीं, पूण उदक वयर काडपाची शक्तूच म्हज्यांत नाशिल्ली." एलिशा बालदी घेवन बांयचेर गेलो आनी उदक घेवन आयलो. तांकां दिलें, आनी आपुणूय पियेलो. मागीर लागींच्या दुकानार वचून गंवा पीठ, तेल, मीठ बी कांय जिनस विकते घेवन आयलो. थोडीं आयदनांय विकतीं घेतलीं. कुराडेन लाकडाचे कुडके करून रांदनींत घाले आनी गंवा पिठाचें पातळ सत्व कशें शिजोवन तें त्या भुकेन मरूंक तेंकिल्ल्या

मनशांक खावंक दिलें. हें सगळें करताना ताका त्या ल्हान भुरग्यांचोय आधार मेळ्ळो.

वणटीच्या आधारान परतोय तो मनीस खोंपींत भितर आयलो. ताणें आनी जाणटेलेन इल्लेंशें सत्व खालें. दोगांय ल्हान भुरग्यांनी आयदन पुसून रिकामें केलें. पोट भरतकच भुरगीं थंयच आड पडलीं, आनी न्हिदलीं. उपरांत ते जाणटेलेन आनी त्या मनशान ही परिस्थिती तांचेर कशी आयली ते विशीं ताका सगळें सांगलें.

''अंदू पिकूच सारकें जालें ना. शिंया तेंपार आमगेर कांयच धान्य नाशिल्लें. शेजाऱ्यां कडेन मागून कांय दीस काडले. पूण मागीर आमकां दिवपाक तांचे कडेनूय चड धान्य नाशिल्लें. भीक मागूंक आमकां लज दिसताली. गांवांत घेवं येतालें तितल्यांय कडल्यान आमी पयशे, भाकरी, पीठ, उश्णें घेतिल्लें. काम करपाची आमची तयारी आशिल्ली. पूण काम दिवपी कोण नाशिल्लो. म्हजे सारके आनिकूय कितलेशे जाण काम सोदीत भोंवताले. आमी तण पसून रांदून खालां, तूं जाणा? मागीर म्हजी बायल दुयेंत पडली. उबी रावपाची शक्तूय तिच्यांत नाशिल्ली, आनी तिका वखद करपाची तांक म्हज्यांत नाशिल्ली. पोटांत अन्न ना. आंगांत तांक ना. कांय दीस हांवें भुरग्यांक सांगलें, शेजान्नीगेर वचात. पूण तीं भूक सोंसून हांगाच रावलीं. पयर एकली शेजान्न आमकां पळोवंक आयिल्ली. पूण आमच्या दुयेंसाची कटकट, हांगासल्ली घाण तिच्यान सोंसूंक जाली ना जावये. आनी, तिचे कडेन तिच्याच भुरग्यांक दिवंक सारकें कांय नाशिल्लें. आमकां ती कशी पळयतली आसली? ती बेगी बेगीन हांगाच्यान गेली. आमी मरणाची वाट पळयत रावलीं...''

हें आयकून एलिशान आपलो बेत बदल्लो. थंयच रावप ताणें थारायलें. सकाळीं उठून आपल्या घरांत करचें तशें घरचें काम तो करूंक लागलो. पीठ कालोवन भाकरी केली. जाणटेलेन ताका रांदन पेटोवंक मदत केली. तो परतोय दुकानार गेलो आनी तांचे खातीर

कपडे घेवन आयलो. खोंपींतल्या बांकार तो बसलो तेन्ना तो ल्हान भुरगो ताचे सरीं येवन बसलो आनी तें ल्हान चली 'आज्या आज्या...' म्हणून ताका उलो मारूंक लागलें. आपणाले तांकी प्रमाण तींय ताका आदार करतालीं. त्या मनशाक आतां इल्ली शक्त आयिल्ली, आनी वणटीच्या आधारान तो इल्लो चलपा भोंवपाक लागिल्लो. जाणटेलेची अवतिकायूय इल्ली सुदारिल्ली. ती बायल-मनीस मात अजून हांथरुणा वयली उठूंक नाशिल्ली. पूण आतां ती बेशुद्ध नाशिल्ली. दोळे उक्ते करून पळयताली.

कांय दीस एलिशा त्या कुटुंबा वांगडा रावलो. आतां ताका दिसलें, आपणें आतां भायर सरूंक जाय, आनी ताणें परतें यात्रेक वचचें म्हूण थारायलें. फेस्ताचो चवथो दीस आसलो. एलिशान ह्या कुटुंबा बरोबर उपास मोडून मुखावेल्या दिसा, सांजवेळा भायर सरप म्हूण थारायलें. गांवांत वचून एलिशा दूद, गंवा पीठ, तेल बी घेवन आयलो. जाणटेलेक ताणें रांदूंक आधार केलो. दुसऱ्या दिसा एलिशा इगर्जेत गेलो, आनी घरच्या मनश्यां बरोबर ताणें आपणालो उपास मोडलो. त्या दिसा हांथरुणार पडून आशिल्ली बायल-मनीस उठून घरांत मातशी चलपा फिरपाक लागली. तिच्या घोवान आपणालें खाड काडलें. जाणटेली आपणाले धुल्ले कपडे आंगार चडोवन भायर सरली. एका गिरेस्त शेतकारा कडेन तिणें आपणालो तीन एकरांचो शेता कुडको घाण दवरिल्लो. त्या शेता कुडक्याचेर काम करूंक दिवचें म्हूण तिणें परवानगी मागली. गिरेस्तान म्हळें, ''ना. पयलीं पयशे घेवन यो, मागीर शेता कुडको तुजो जातलो.'' जाणटेली रडत घरा आयली.

एलिशाक हुस्को जावंक लागलो. आतां कशें जातलें हांचें? बाकीचीं शेतांत काम करून पीक काडटलीं. हीं अशींच उपाशीं उरतलीं. हांव आतां गेल्यार हांची स्थिती पयलीं बशेन जातली... त्या दिसा वचप नाका म्हूण एलिशान थारायलें. ताणें प्रार्थना केली, आनी

खोंपी भायर वचून थोडो वेळ न्हीद काडली. एफीम हुस्केतालो... ताका मेळूंक जाय, तीर्थयात्रेक वचूंक जाय हे विचार मनांत येतालेच. पूण दुसरे वटेन ह्या कुटुंबाचे त्रास पळोवं नज जाताले. 'हांव हांगा आयिल्लों उदक पिवपाक, पूण ह्या लोकांची अवतिकाय पळोवन इतले दीस हांगाच काडले,' ताणें मनांत म्हणलें. 'सुरवेक फकत तांकां इल्ली भाकरी, उदक दिवन वतलों म्हूण आशिल्लों. आतां दिसता, तांचें तीन एकरांचें शेत त्या गिरेस्ता कडल्यान पयशे दिवन सोडोवन हाडूंक जाय; तांचे खातीर एक गाय घेवंक जाय; गाडयेक एक घोडोय घेवन दिवंक जाय... एलिशा, असो कसो तूं घुसपून पडलो? कितें करतलो तूं आतां?' येवजितां येवजितां एलिशाचो परतोय दोळो लागलो. ताका एक सपन पडलें. सपनांत तो यात्रेक वचूंक भायर सरिल्लो. दारा मदीं पाविल्लो. इतल्यांत तीं दोगांय ल्हान भुरगीं धांवत ताचे सरीं आयलीं, आनी ताका म्हणूंक लागलीं, 'आज्या, वचूं नाका... आमकां भाकरी जाय.' ताका जाग आयली.

'देवाची इत्सा, ताका दिसलें. पयलीं गिरेस्ताक पयशे फारीक करून हांव तांचें शेत सोडोवन हाडटलों. उपरांत एक गाय आनी घोडो विकतो घेतलों... पीक तयार जातासर तांकां पावत इतलें गंवा पीठ, तेल बी हाडून तांकां दितलों. मागीर यात्रेक वचूंक भायर सरतलों. सगलें देवाचे इत्से प्रमाण जाता.'

एलिशा सकाळीं फुडें उठून त्या गिरेस्तागेर गेलो आनी त्या गिरेस्ताक पयशे फारीक करून घाण दवरिल्लो शेता कुडको सोडयलो. बाजारांत वचून शेतांत वावुरपाचीं आवतां घेवन आयलो. तीं त्या मनशा कडेन दिवन ताणें ताका शेतांत वचूंक सांगलें. उपरांत गांवांत गेलो आनी एक घोडो आनी एक गाडी विकती घेवन आयलो, '...देवमनशा वरी भुकेल्ल्या पिडेस्त कुटुंबाक पावलो...' ताका कळ्ळें, हीं आपलेच विशीं उलयतात. तो खोंपींत परतलो.

''हो घोडो आनी ही गाडी खंय मेळ्ळी तुका?'' त्या मनशान ताका

विचारलें. ''विकतें हाडलां हांवें हें तुमचे खातीर,'' एलिशान जाप दिली. ''आतां इल्लें तण कापून हाड आनी त्या घोड्याक घाल, आनी हो साक व्हरून भितर दवर,'' ताणें त्या मनशाक सांगलें. मनशान सांगिल्लें तशें केलें.

रात जाली आनी सगलीं न्हिदलीं. कोणूय उठचे पयली एलिशान आपलें सामान बांदलें, पांयांक कपड्याचे कुडके बांदले आनी, चलूंक लागलो. तीन एक मैल चल्ले उपरांत, शंबर रुबलांतले कितले पयशे आपणा कडेन उरल्यात तें पळोवचें अशें ताका दिसलें. ताणें पयशे मेजून पळयले. फकत सतरा रुबल उरिल्ले. 'इतल्याशा पयशांनी दर्योंहुपून जेरूझाले वचूंक जावचेंना. भीक मागून वचचे परस वचनासतना रावप बरें. म्हगेलो इश्ट एफीम ते पवित्र सुवातेर पावतलो. तो म्हजे खातीर एक मेणवात पेटयले बगर रावचो ना. म्हगेली आंगवण पूर्ण जावचिना. पूण देव म्हजी काकुळट करतलो, म्हाका माफ करतलो,' ताणें येवजिलें.

एलिशा परतलो. आपणाक कोणें वळखुचें न्हय म्हूण तो पयसुल्ले वाटेन गेलो. ताका पुरो जावंक नाशिल्लें. तो बेगीन आपणाल्या घरा पावलो. बायले भुरग्यांक ताका पळोवन खोस जाली. इतले बेगीन कसो परतलो काय म्हूण तांणी ताका विचारलें. 'देवाची इत्सा,' एलिशान म्हणलें. ''हांव जेरुझालें पावलोंच ना.. वाटेर म्हजे पयशे शेणले आनी हांव फाटीं उरलों. देवाच्या नांवान म्हजो इश्ट म्हाका माफ करतलो. देवान म्हाका माफ केलो...'' ताणें म्हणलें.

एलिशा सारक्या बुदवंत मनशाचे पयशे कशे म्हूण शेणले, काय आनीक कितें घडलें... यात्रेक गेल्लो मनीस असो कसो परतलो... गांवांतलो लोक तीन-चार दीस उलयलो, आनी मागीर एलिशा असो परतला ही खबर विसरूनय गेलो.

एलिशा आपल्या पुताचे मदतीन घरचीं कामां करूंक लागलो. तो नाशिल्लो तेन्ना ताचीं म्होवां मालीं दोट्टी जाल्लीं. तांतलीं धा काडून

ताणें शेजाऱ्याक दिलीं. सगलें जाग्यार पडटकच ताणें पुताक काम सोदूंक धाडलो. आपूण म्होंवां मालींच पळोवंक लागलो.

उदक पियेवंक गेल्ल्या एलिशाची एफीमान खूब वाट पळयली. एलिशा येसर थंयच रावचें काय फुडें वचचे, ताका कांय समजना जालें. निमाणें मुखार वचप म्हूण ताणें थारायलें. वाटेर मेळपी गांवच्या लोकांक ताणें एलिशाचें वर्णन करून सांगचें आनी हेच वाटेन आपूण मुखार गेला म्हूण ताका सांग म्हणचें.

एफीम ओडेसा पावलो. सरकारी कचेरेंत वचून ताणें जेरुझाले वचपाक प्रवेशपत्र घेतलें. भाकरी, नुस्तें बी गरजेच्यो वस्तू विकत्यो घेवन तो बोटी म्हऱ्यांत गेलो. थंय खूब गर्दी आशिल्ली. ताची नदर आपणाल्या मित्राक सोदपाक लागली. पूण गर्देंत ताका एलिशा दिश्टी पडलोना. प्रवेशपत्रा खातीर पांच आनी बोटीर वचून येवपाक चाळीश अशे पंचेचाळीस रुबल ताणें खर्च केले. कितल्याश्या यात्रिकां कडेन ताची वळख जाली. एकलो फटींग यात्रिकूय ताका पळोवंक मेळ्ळो. पयशे फारीक करी नासतना तो बोटीर चडूंक सोदतालो.

सकाळचो प्रवास बरो जालो. पूण रातचें हवामान बदल्लें. वादळ जालें. पावस पडूंक लागलो. बोटी वयले यात्रीक खूब भियेले. कांय जाण हेवटेन तेवटेन धांवपाक लागले. एफीमूय भियेलो. पूण तो एक जाणट्या यात्रिका सरींच बसून रावलो. तीन दिसां उपरांत वादळ शांत जालें, आनी बोट सारकी चलपाक लागली. पांचव्या दिसा ती देगेक लागली. बोटी वयल्यान देंवतल्यां मदींय एलिशा आसत काय म्हूण एफीमान सोदलें. पूण तो नाशिल्लो.

थंयच्यान तीन दीस चल्ले उपरांत ते जेरुझालें पावले, दनपारच्या वेळार. एका सरकारी ऑफिसरान तांचें प्रवेशपत्र तपासलें आनी जेरुझालेंचे जेजून पवित्र केल्ले सुवातेचें दर्शन घेवंक तांकां सोडले. पवित्र समाधी कडेन एका पाद्रीन तांचे पांय धुले, कपड्यान पुसले आनी तांचो उमो घेतलो. भक्तीभावान सगळे प्रार्थनेक एफीम रावलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं एके पवित्र सुवातेर तांकां प्रसाद म्हूण जेवण आनी सोरो दिलो. देवाच्या आदेशाक पाळो दिवन आब्रांवान आपणाल्या पुताचो बळी दिल्लो तो जागो, जेजूचो भाव जेम्साची इगर्ज, सगलें पळयलें. ताका चिकटून आशिल्लो तो यात्रीक खंय कितले पयशे दिवप तें सगळें ताका सांगतालो. आपूण मात कांय दिना आसलो. आपणाल्या बोल्सांतले सगले पयशे चोरून गेले म्हूण ताणें एफीमाक सांगलें. एफीमाक ताचो दुबाव येतालो. तो फटींग आसतलो अशें दिसतालें. राग येतालो. पूण दुसऱ्याच खिणाक दिसतालें, जेजूच्या जल्मस्थानांत असो मनशाचो दुबाव घेवप समा न्हय. सांजवेळचे ते जेजू परतो जितो जाल्लो ते सुवाते वयले इगर्जेंत गेले. इगर्जेंत सगल्या देसांतले लोक आशिल्ले. खुरसा वयल्यान जेजूक सकल काडिल्लो तो जागो, ताचें रगत पडिल्लें तो जागो अशे खूब पवित्र जागे ते पळयत वताले. खुरीस खांदार घेवन जेजू वयर चडिल्लो तो जागो दाखोवन एका पाद्रीन त्या जाग्याचें म्हत्व तांकां विस्तारान सांगलें. एफीम प्रार्थना करतालो तेन्नाय त्या यात्रिकाच्या शेणिल्ल्या पयश्यां विशीं ताच्या मनांत विचार येताले. ताका दिसलें, म्हजेय पयशे अशेच चोरयेक गेल्ले जाल्यार म्हजीय स्थिती अशीच जावपाची.

जेजूचे पवित्र समाधी म्हऱ्यांत एक ल्हान कपेल आसलें. थंय छत्तीस दिवे आसले. थंय एफीमान एक अजापांचो देखाव पळयलो. ताचेच मुखार एलिशा सारको एकलो म्हातारो, तकलेक केंस नाशिल्लो मनीस भोवमान प्रार्थना करतालो. हात वयर करून मळबा वटेन पळयतालो, आनी मागीर दोनूय दिकांक पळोवन नमन करतालो. एलिशाच हो, ताची खात्री जाली. एफीम खोशी जालो. पूण तरी ताका एक प्रस्न पडलो, एलिशा म्हजे पयलीं हांगा कसो पावलो? मिसा वेळारूय तो एलिशाक पळयत रावलो. मीस सोंपलें तेन्ना तो बेगी बेगीन दारा सरीं येवन रावलो, एलिशा भायर येतलो आनी आपूण ताका मेळटलो हे आशेन. पूण एलिशा ताका दिश्टीच पडलोना. तो

नाच जाल्लो. दुसऱ्या दिसा एफीम पवित्र समाधी म्हऱ्यांत गेलो. थंय बरोब्बर दिव्या खाला एलिशा राविल्लो. ताची केंस नाशिल्ली तकली उजवाडान चकचकताली. आतां हांव ताका मेळटलोंच, एफीमान थारायलें. पूण एलिशा परतोय गायब! देड म्हयनो एफीम जेरुझालेंत रावलो. बॅत्लहॅम, बॅथनी, जॉर्डन हीं सगलीं पवित्र तीर्थस्थळां तो भोंवन आयलो. जॉर्डन न्हंयचें उदक एके बाटलेंत घेतलें. आठ कडेन ताणें प्रार्थनेक नांवां बरयलीं. मागीर जाफा वटयां देगेर पावलो आनी बोटीर बसून ऑडेसा आयलो. आनी चलत चलत घरा पावलो. ताचे यात्रेची आंगवण पूर्ण जाल्ली.

वाटेर एफीमाक खूब बदल दिसले. दुकळ सोंपिल्लो. एके रुसी म्हणणेचो ताका उगडास जालो - 'एका वर्सांत खूब उदक व्हांवन वता.' एक घर उबें करपाक एक जिवीत लागता. तें मोडून उडोवपाक वेळ लागना. ताका आपणाल्या घराची चिंता आशिल्ली.

एलिशा उदक पियेवंक गेल्लो त्या गांवांत तो पावलो. ताका गांवच्या लोकांक एलिशा विशीं विचारीन दिसलें. गांवांत आतां दुकळ नाशिल्लो. लोक शेतां कसतालो. खुशाल दिसतालो.

एफीमान ती खोंप सोदून काडली. "आज्या, भितर यो," ते ल्हान चलयेन ताका सांगलें, "आमचे वांगडा जेव आनी सुशेग घे." एकल्या मनशानूय तशीच विनंती केली. एफीम खोंपींत भितर सरलो. ताका दिसलें, एलिशा विशीं ह्या लोकांक इल्ली तरी खबर आसतली. एक बायल-मनीस आयली आनी तिणें ताच्या खांदा वयली पोटली सकयल काडून दवरूंक ताका आदार केलो. हात-पांय धुवंक उदक हाडून दिलें. आनी मेजार दूद, मिठाय आनी पेज हाडून दवरली. एफीमान तिचे उपकार मानले. एका यात्रिकाक इतलो भोवमान दिलो म्हूण तुस्त केली.

तांणी सांगलें, असोच एक दीस एक यात्रीक आमगेर उदक पियेवंक म्हण आयिल्लो. तेन्ना आमी सगलीं अन्न नासून मरणाची वाट पळयत

आशिल्लीं. आमीय तानेल्लीं. तो बांयचेर वचून उदक घेवन आयलो. आमकां भूक लागिल्ली. ताणें पयलीं आपले कडेन आशिल्ली भाकरी आमकां दिली, मागीर दुकानार वचून तो आमचे खातीर गरजेच्यो कांय वस्तू घेवन आयलो. आमकां ताणें नवो जल्म दिलो. म्हत्वाचे म्हणल्यार, आमी देवाक विसरून कश्ट भोगतालीं. ताणें देवा वयलो विश्वास आमच्या मनांत परतो जागयलो. आमी जनावरां कशीं जियेतालीं. ताणें आमकां मनश्यांत हाडलीं, आमचो घाणा दवरिल्लो शेता कुडको पयशे दिवन सोडोवन हाडलो. आमचे खातीर एक घोडो विकतो घेवन दिलो, एक गाडी घेतली. आनी आमच्या शेतांत पीक ये सर पुरो जातलें इतलें गंवा पीठ, तेल आनी हेर सामान आमकां हाडून दिलें. आमच्या पांयांर उबीं रावपाक आमकां शक्त दिली. आनी एक दीस सकाळीं आमी उठचे पयलीं आपणालें सगलें सामान कवळून भायर सरून गेलो. आपणालें नांव लेगीत ताणें आमकां सांगूंक ना. देवानूच ताका आमगेर धाडला आसतलो आमचेर वखद करूंक, आनी ताचे वयलो विश्वास परतो हाडूंक. खरेलो देव-मनीस तो. ताका लागून आमी आमगेर पाविल्ल्या यात्रिकांक मोगान वागयतात. हें ताणेंच आमकां शिकयलां.

एफीम न्हिदूंक गेलो पूण ताचो दोळो कसोच लागना जालो. एलिशाच ताच्या मनांत घुंवतालो. ताका तेन्ना उगडास जालो, आपणें एलिशाक तीन फावटीं जेरुझेलांत पळयल्लो. 'आतां म्हाका कळ्ळें, तो म्हजे पयलीं देवाचे पवित्र सुवातेर कसो पावलो तें... देवान म्हजी तीर्थयात्रा मानून घेतली काय ना, हांव नकळं. एलिशाची यात्रा मात ताणें मानून घेतली हातूंत कांय दुबाव ना.'

दुसऱ्या दिसा सकाळीं त्या कुटुंबाचो निरोप घेवन घराचे वाटेर वचूंक लागलो. घरा पावलो. पुताचो कारभार पळोवन एफीमाक राग आयलो. ताणें पुताक तापयलो. पूत पियेल्लो आशिल्लो. ताणें बापायक विचारलें, "आशिल्ले पयशे सगले तूं घेवन गेलो, आतां

आनीक तुका कितें जाय?'' एफीमान ताचेर एक थापट मारलें. घरची दशा पळोवन ताका सामकें दुख्ख जालें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं तो गांवच्या मुखेल्या कडेन पुता विशीं उलोवपाक भायर सरलो. वाटेर एलिशाचें घर लागतालें. इश्टाक मेळून वचचें अशें येवजून तो घरांत भितर सरलो. एलिशाचे बायलेन मोगान आनी आदरान ताका भितर आपयलो, बसूंक सांगलें. ताणें म्हणलें, ''हांव थंय पावलों, पूण तुजो घोव बेगीन परतो आयलो म्हूण आयकलां.'' तिणें म्हणलें, ''हय. तो बेगीन परतल्लो पळोवन आमकां सगल्यांक खोस जाली. घरांत तो ना जाल्यार काळोख आसता. तो आयलो तेन्ना खुशालकाय आयली, उजवाड आयलो. ताचें तोंड सदां हांसतें आसता. अमचेंय बी.''

एलिशा घरांत आसा काय म्हूण एफीमान विचारलें. घरा फाटल्या रुखा मुळा म्होंवांच्या माल्यां सरीं आसतलो म्हूण तिणें सांगलें. एमीफ थंय गेलो. रुखा मुळा ताका एलिशा दिश्टी पडलो. जेरुझालेंत दिशिल्ली तशी ताची तकली सुर्याच्या किर्णांत चकचकताली. म्होंवाचे मूस ताचे तकले भोंवतणी फिरताले. तांच्या भांगराळ्या रंगाचें वलय ताचे तकले भोंवतणी तयार जाल्लें.

एलिशाचे बायलेन ताका एफीम मेळूंक आयला म्हूण सांगलें. एलिशा उठून एफीमा म्हऱ्यांत आयलो, ''मोगाळ इश्टा, तूं जेरुझालें बरे बशेन पावलो आनी यात्रा पूर्ण करून आयलो म्हूण म्हाका खूब आनंद जालो,'' ताणें म्हळें.

एफीमान म्हणलें, ''म्हज्या पांयांनी म्हाका तीर्थस्थळाक पावयलो. हांवें तुजेय खातीर जॉर्डन न्हंयचें उदक हाडलां. पूण म्हजी यात्रा देवान मानून घेतल्या काय ना, म्हाका दुबाव आसा.''

एलिशान जाप दिली, ''देवाचे आमी उपकार मानूंक जाय. जेजू तुका आशिर्वाद दितलोच.''

तेन्ना एफीम उलोवपाक लागलो, ''वाटेर हांव एके खोपींत गेलो आनी...'' हांगा एलिशान ताका थांबयलो. ''तो सगलो देवाचो वावर.

देवाची कृपा ती...'' ताणें म्हणलें, आनी ती खबर थंयच सोडून घरचे विशीं उलोवपाक लागलो.

एफीमान एक सुस्कारो सोडलो आनी म्हणलें, ''तुका एक सत्य समजलां- देवाक आंगवण पूर्ण केल्यार खोशी जाता खरी. पूण लोकां कडेन प्रेमान दये-मायेन चल्ल्यार, तांकां पावल्यार आंगवण पूर्ण करतकच जाता ताचे परसूय अदीक खोस ताका जाता.''



# तीन सत्यां

सायमन नांवाचो एक मोची एका ल्हानश्या भाड्याच्या घरांत बायले भुरग्यां वांगडा रावतालो. ताची जोड व्हडलीशी नाशिल्ली. जोड उणी, भाकरी म्हारग, अशीच स्थिती आशिल्ली. शिंया तेंपा खातीर कोट शिवंक एका मेंढराचें चामडें विकतें घेवपा खातिरूय ताचे कडेन पयशे नासताले. जोडिल्ल्या पयश्यांतले थोडे तो कुशीक काडून दवरतालो. ताचे बायले कडेनूय अशे तीन एक रुबल एकठांय जाल्ले. ते भायर, गांवांतल्या गिरायकां कडल्यान ताका पांच रुबल येणे आशिल्ले.

एके सकाळीं सायमन मेंढराचें चामडें विकतें घेवपाक भायर सरलो. खूब शीं पडिल्लें म्हूण ताणें आपणाल्या खोमसाचेर बायलेचो कोट चडयलो, आनी ताचे वयर आपणालो पिनकरो कपड्याचो कोट घालो. बोल्सांत तीन रुबल आनी हातांत एक बडी घेवन तो गांवचे दिकेन चलूंक लागलो. पयलीं देणेकारांगेर वचून देण्याची वसुली करप म्हूण ताणें थारायिल्लें. पूण एक तर देणेकार घरा नासतालो, वा ताचे कडेन दिवपाक पयशे नासताले. कितें करतलो, सायमन तसोच चामड्याच्या वेपाऱ्यागेर गेलो. ''चामडें आतां दी, पयशे मागीर दितां'' म्हूण वेपाऱ्याक सांगलें. पूण वेपारी तयार जालो ना. ''पयलीं

पयशे घेवन यो, उश्णें चामडें दिल्यार म्हाका कितलो त्रास जाता, हांवूच जाणां,'' ताणें म्हणलें. सायमनाक थंयच एक गिरायक मेळ्ळें. थोडे पयशे दिवन ताणें आपणालीं जोतीं सारकीं करूंक सायमना कडेन दिलीं.

कितें करतलो, मनांतल्या मनांत बेजारून, ते किरकोळ पयशे घेवन सायमन घरा वचूंक भायर सरलो. वाटेर तो इल्लो सोरो पियेलो. हाका लागून ताच्या आंगांत मातशी गर्मी आयली. घराचे दिकेन चलत वतना सायमन चिंतपाक लागलो- 'म्हज्या आंगार मेंढराच्या चामड्याचो कोट ना, पूण आंगांत गर्मी आसा; म्हाका त्या चामड्याची गरज ना,' ताणें मनांत म्हणलें. 'कसलीच चिंता, कसलोच हुस्को नाशिल्लो मनीस हांव. पूण हात हालयत परतलों म्हूण बायल पळयतली तेन्ना तिका राग येतलो; तुजीच चामडी काड, म्हणटली. पूण हांवेंय कितें म्हूण करचें? इल्लेशे पयशे दिवन केन्ना चामडें मेळूंक आयलां?... एक मात खरें, सगलो दीस हांव काम करीत आसतां. पूण म्हजे कडेन घर ना, गोरवां नात, कांय आस्पत ना. भाटकाराच्या भाड्याक तीन रुबल लागतात. तेय पयशे म्हजे कडेन नासतात...

येवजीत येवजीत, चलत चलत तो एका ल्हानश्या कपेला कडेन पावलो. थंय कुशीक एक मनीस पडिल्लो ताणें पळयलो. मनीस जितो आशिल्लो काय मेल्लो, कांयच कळनासलें. मनशाच्या आंगार कपडे नासले. सायमन भियेलो. कोण तरी ह्या मनशाक जितो मारून ताचे कपडे काडून घेवन गेला जावंक जाय, ताका दिसलें. ताचे म्हऱ्यांत आनी वचप ना अशें येवजून दुसरे दिकेन पळयत तो बेगीबेगीन फुडें सरत रावलो. तरी एक खेप ताणें फाटल्यान नदर घाली. कपडे नाशिल्ले ते कुडीक पळोवन सायमनाक दिसलें, 'ह्या मनशाक म्हगेल्या कपड्यांची खरी गरज आसा.' आनी काकळूत दिसून सायमन त्या मनशा म्हऱ्यांत गेलो.

तो मनीस तरणो आनी घटमूट आसलो. ताणें दोळे उक्ते केले आनी

पातयो हालय नासतना तो सायमनाक पळयत रावलो. सायमन पयलीं मातसो भियेलो. पूण मागीर ताचें मन कळवळ्यान भरून आयलें. ताणें आपणालो कपड्याचो कोट देंवयलो आनी ताच्या आंगार घालो. गिरायकान सारकीं करूंक दिल्लीं जोतींय ताका दिलीं. तो मनीस भरिल्ल्या जिवाचो आनी सुंदर आसलो. सायमनान आपणाली पिंजकी तोपीय ताच्या माथ्यार घाली; ताका उबो रावपाक आधार दिलो, आनी "चल, घरा या," अशें म्हणून ताका हात दिलो.

"म्हजे तकलेर केंस नात, ताचे तकलेर खूब मुदयाळे केंस आसात; ते तोपयेची गरज म्हाकाच चड"... खीणभर सायमनाक दिसलें. पूण ताणें कांय म्हणलें ना. त्या मनशाचो हात धरलो, आनी ताच्यान चलपाक जाता काय म्हूण विचारून ताचे वांगडा ल्हवू ल्हवू पावल घालपाक लागलो. तो मनीस कांय उलयलोना. पूण सायमना कडेन ताणें मायेन पळयलें.

सायमनान ताका तो खंयचो काय म्हूण विचारलें. ताणें सांगलें, आपूण ह्या गांवचो न्हय. "तूं कपेला कडेन कसो पावलो? कोणें तुका मारलो?" सायमनान ताका आनिकूय प्रस्न विचारले. हाचेर त्या तरणाट्यान म्हणलें, "सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो दिवंक म्हज्यान जावचें ना. हांव इतलेंच सांगन, देवान म्हाका शिक्षा दिली."

"जायत..." सायमनान म्हणलें, "पूण तूं खंय रावता? आतां तूं खंय वतलो?" ताका विचारलें.

"खंयूय गेल्यार एकूच म्हाका," तरणाट्यान जाप दिली.

सायमनाक अजाप जालें. मनीस चोर, फटींग कांय दिसना, आनी उलयताय भोव नमळायेन. पूण आपणा विशीं कांय सांगुंकूय तयार ना. "म्हजे वांगडा, आम्गेर यो," सायमनान ताका म्हणलें.

वाटेर खूब बर्फ पडिल्लें. सायमनाक थंडी खावंक लागली. हांव भायर सरिल्लों मेंढरेचें चाम्डें हाडपाक. चाम्डें घेना आसतना हात हालयत परतलां. आंगार कोट लेगीत ना... वेल्यान वांगडा आनीक

एकल्या गरजेवंताक घेवन आयलां तें पळोवन बायलेक राग येतलो... येवजून सायमन खंती जालो. पूण त्या मनशाक पळोवन तो मनांतल्या मनांत खोशीय जालो.

सायमनाचे बायलेचीं मात्रेनाचीं सगलीं कामां सोंपिल्लीं. तिणें लाकडां फोडून दवरिल्लीं, उदक हाडिल्लें, भुरग्यांक पोटाक घाल्लें. फाल्यां भाकरी करची पडटली काय ना, ती चिंतताली. एक व्हडलो भाकरे कुडको उरिल्लो. सायमन भायरूच जेवन आयलो जाल्यार आनीक एक दीस येतलो हो भाकरे कुडको, तिका दिसलें. भाकरे कुडको हातांत घेवन ती चिंतूक लागली. 'आतां आनी भाकरी भाजना. शुक्रार मेरेन काडूं येता...' अशें येवजून तिणें भाकरी काडून आरमारींत दवरली आनी घोवाचें खोमीस सारकें करूंक लागली. पोंत मारतां मारतां ती घोवा विशीं येवजूंक लागली... तागेल्या भोळ्या सभावाक लागून कोणूय ताका फटयता. चामडें घेतना फटवना जाल्यार पुरो. पोरूं शिंया तेंपार म्हाका घरांतल्यान भायरूच सरूंक मेळूंक ना. हो भायर सरतना आशिल्ले सगळे कपडे आंगार चडोवन वतालो... आज मातसो वेळार भायर सरला, फोल्ग येवजना जाल्यार पुरो...

आनी तेन्नाच दारा कडेन तिणें पावलांचो आवाज आयकलो. पळयत जाल्यार दोग जाणात घरांत भितर सरताले. तिचो घोव सायमन, आनी वांगडा एकलो अनवळखी. घोवा पांयांक मोचे आशिल्ले. पूण माथ्याक तोपी नाशिल्ली. मात्रेनाक ताच्या तोंडाक सोऱ्याचा वास आयलो. पियेत बसला आसतलो, तिणें मनांत म्हणलें. घोवाच्या आंगार तिगेलो कोट आशिल्लो. आनी ताचो कोट खंय गेलो?... हातांत चामड्याची पोती नाशिल्ली. तिचे मुखार लजूनसो तो थंड उबो आशिल्लो. मात्रेन निर्शेली. पयशे सगळे सोऱ्याक घाल्या आसतले. आनी वयल्यान आनीक एकल्याक घेवन आयला. तिणें कुशीक सरून दोगांकूय भितर येवंक वाट सोडली. भितर सरतना त्या मनशाक तिणें सारको पळयलो. ताच्या आंगार तिच्या घोवाचो कोट

आशिल्लो. पोंदा खोमीस बी कांय नाशिल्लें; नदर सकल घालून तो थंड उबो आशिल्लो. बरो मनीस आसचोना. दोळ्यांत नदर घालूंक भियेता, तिका दिसलें. मात्रेनान तोंड वांकडे केलें आनी रांदनी सरीं वचून आयदनांत आशिल्लें जेवण पावतलें काय ना ताचो अदमास घेतलो.

सायमन बांकार बसलो. मात्रेना फणफणटाली. बायलेक राग आयला म्हूण सायमनाक कळ्ळें. पूण ताणें पर्वा केलिना. त्या तरणाट्याचो हात धरून ताणें ताका बसूंक सांगलें. "बस इश्टा, खावया कितें तरी," ताणें म्हळें. तरणाटो बसलो.

"आगे, कांय रांदूंक ना गे आमचे खातीर?" सायमनान बायलेक विचारलें.

"हांवें रांदिल्लें, पूण तुजे खातीर न्हय. तूं सोरो पियेवन आयला. तूं गेल्लो मेंढराचें चामडें हाडूंक, आनी परतो आयला तेन्ना तुज्या आंगार तुजो कोट पसून ना. तुजे सारक्या बेबद्याक हांगा जेवण ना," बायलेन जाप दिली.

"पुरो मात्रेना, ओगीच कित्या कितेंय उलोवं नाका. पयलीं सगली खबर सारकी जाणा जावन घे..." सायमनान म्हणलें.

"तूं घेवन गेल्लो त्या पयशांचें कितें केलें तें पयलीं सांग" मात्रेनान म्हणलें.

सायमनान बोल्सांत हात घालून तीन रुबल भायर काडले आनी तिका दिले. "त्रिफोनोव्हानान पयशे फारीक केले नात. पूण बेगीन दितां म्हूण सांगलां" ताणें सांगलें.

मात्रेनाक आनिकूय तिडक मारली. "चामडें हाडूंक ना तें ना, आनी आशिल्लो तो एक कोटूय परक्या भिकाऱ्याच्या आंगार घालून वयल्यान ताका घरांत येवन आयला जेवपाक..." अशें म्हणत तिणें ताच्या हातांतले तीन रुबल झोंबून घेतले आनी एक सेगूर जाग्यार व्हरून दवरले. "तुमकां हांगा जेवण ना. संवसारभरच्या बेबद्यांक

जेवण घालपाक म्हाका कोंताक येना,'' तिणें परतेंय म्हणलें.

''मात्रेना, तोंड बंद कर. पयलीं हांव कितें सांगता तें तरी आयकून घे.''

''हयवय, बेबद्याच्या तोंडांतल्यान खूब शाणेपण आयकूंक मेळटलें! तुजे कडेन लग्न जालीं हीच व्हडली चूक जाली म्हजी. म्हजे आवयन दिल्ले बरे बरे कपडे तुवें व्हरून सोऱ्याक घाले. आनी आतां वसुली करूंक गांवांत गेल्लो ते पयशेय सोऱ्यांत घालून आयला...''

आपूण फकत वीस पयश्यांचो सोरो पियेलां... हो परकी मनीस आपणाक खंय, कसो मेळ्ळो तें सगळें तिका सांगपाचो सायमनान यत्न केलो. पूण मात्रेना आयकुपाकूच तयार नाशिल्ली. धा वर्सां फाटीं घडिल्ल्या गजाली विशीं ती उलोवपाक लागली. मागीर सायमना सरीं वचून ताच्या आंगार आशिल्लो आपणालो कोट तिणें ओडून काडलो. अशें करताना तो इल्लो पिंजलो. मात्रेनाक आनिकूय राग आयलो. तिणें तो कोट आपणाल्या आंगार चडयलो आनी भायर वचपाचे तयारेंत दारा सरीं गेली. पूण परकी कोण तें विचारपाचें उरलें अशें दिसून ती फाटीं परतली.

''हो मनीस बरो आशिल्लो जाल्यार ताच्या आंगार कपडे आसतले आशिल्ले. हाच्या आंगार एक सादें खोमीस पसून ना. खंय मेळ्ळो तुका असलो मनीस, तें म्हाका पयलीं सांग,'' तिणें म्हणलें.

''तेंच तर हांव तुका सांगूंक सोदतालों,'' सायमनान म्हणलें. ''कपेला कडेन हो मनीस पडिल्लो. ताच्या आंगार कांय कपडे नाशिल्ले. देवानूच म्हाका थंय धाडिल्लो जावंक जाय. हो असोच थंय पडून उरिल्लो जाल्यार, दुबावूच ना, मरतलो आशिल्लो. म्हाका ताची काकूळत दिसली, आनी म्हजो कोट काडून हांवें ताच्या आंगार घालो आनी, म्हजे वांगडा ताका घरा हाडलो. मात्रेना, अशी रागार जावं नाका... पातक हें... एक दीस आमी सगलीं मरपाचींच आसात.''

मात्रेनान त्या तरणाट्याचेर नदर घाली. धोंपरार हात धरून आनी तकली सकल घालून तो बांकार बशिल्लो, दुख्खांत आशिल्ले वरी. सायमनान तिका विचारलें, "तूं देवाचो इल्लोय मोग करिना?" मात्रेनान परतोय त्या तरणाट्याक पळयलो. तिचें काळीज मोव जालें. ती आरमारी सरीं गेली आनी थंयच्यान भाकरेचो कुडको काडून तो तिणें मेजार दवरलो. म्हऱ्यांत उदकाक कोप दवरलें. "जाय जाल्यार खायात," तिणें म्हणलें.

सायमन त्या तरणाट्याक घेवन मेजा म्हऱ्यांत गेलो. ताका आपणा म्हऱ्यांत बसयलो, भाकरे कुडक्याचे चार कुडके केले आनी दोगूय ते खावपाक लागले.

मात्रेना मेजा म्हऱ्यांत बसून त्या भुरग्याक पळयत आशिल्ली. तिका ताची काकळूत दिसूंक लागली. ताचे विशींचे मायेनूय तिचें काळीज भरून आयलें. तेन्नाच त्या तरणाट्याच्या तोंडार तिका उजवाडाचें एक कीर्ण दिश्टी पडलें. तोंड वयर करून मात्रेना कडेन पळोवन तो तिका मातसो हांसलो.

"खंयचो तू?" तिणें ताका विचारलें.

"हांव हांगाचो न्हय..." ताणें जाप दिली.

"मागीर, हांगा हाडून तुका कोणे उडयलो?"

"तें म्हज्यान सांगपाक जावपाचें ना..."

"तुजी अशी अवस्था कोणे केली? चोरान?"

"ना. देवानूच म्हाका शिक्षा केली. हांव हांगा भर शिंयांत रस्त्यार उक्त्या आंगान पडिल्लों तेन्ना सायमनान म्हाका पळयलो, आनी आपणालो कोट म्हाका घालूंक दिलो. तुवें म्हाका जेवण दिलें. म्हजी काकळूत केली. देव तुमचें बरेंऽ करतलो."

मात्रेनान सायमनाचें एक खोमीस आनी हेर पोरणे कपडे ताका दिवन सांगलें, "हे कपडे घाल आंगाक."

ताणें आंगा वयलो कोट देंवयलो, तिणें दिल्ले कपडे आंगार

चडयले आनी माळ्यार तण दवरुपाचे सुवातेर वचून न्हिदलो. मात्रेनाय खाटीर वचून आड पडली. पूण न्हीद कशीच येना! त्या परक्या विशींचींच चिंतनां परतीं परतीं तकलेंत येतालीं. भाकरेचो निमाणो कुडकोय सोंपिल्लो. काकळुतेच्या भारांत घोवाचे पोरणे कपडेय तिणें ताका दिवन उडयल्ले. येवजून ती मातशी बेजार जाली. पूण ताच्या तोंडार दिश्टी पडिल्लें उजवाडाचें कीर्ण आनी ताचें हांशें तिच्या दोळ्यां मुखार आयलें, आनी ती खोशी जाली.

सायमनूय जागोच आशिल्लो. "घरांत खाण जेवण कांय उरूंक ना," तिणें घोवाक म्हणलें. "भाकरी, पाव करतलीं म्हळ्यारूय घरांत कितेंच ना. फाल्यां कितें करप? शेजाऱ्नी कडेन पाव मागचो पडटलो फाल्यां... सायमन, बरोऽ मनीस आसूंक जाय दिसता न्हय हो? पूण आपणाची कसलीच वळख करून दिना. खंयचो तेंय सांगना... कितें तरी कारण आसपाक जाय, न्हय...? आनी, ताणें आमचे उपकार मागले, आमी ताका जेवण आनी कपडे दिले म्हूण. आमकां मात केन्ना कोण कांय दिना..."'

सायमना कडेन हाचेर उलोवपा सारकें कांय नाशिल्लें. "चल, न्हिदुया आतां, म्हाका पुरो जालां," ताणें म्हणलें.

सकाळीं सायमन उठलो तेन्ना भुरगीं न्हिदिल्लींच आशिल्लीं आनी ताची बायल पाव उश्णे घेवपाक शेजाऱ्नी सरीं गेल्ली. तो तरणाटो ताचे पोरणे कपडे घालून बांकार बशिल्लो, वयर पळयत. ताच्या तोंडार एके तरेची कांत मारताली.

"इश्टा, पोट भरपाक आनी आंग धांपूंक कपडे जोडपाक काम करचें पडटा. तुका कसलें काम येता?"

"कसलेंच काम येना म्हाका," तरणाट्यान म्हणलें.

सायमनाक अजाप दिसलें. "येना जाल्यार तुज्यान शिकूं येता."

"मनशां काम करतात जाल्यार हांवूय काम करूंक तयार आसा," तरणाट्यान जाप दिली.

"तुजें नांव कितें ?"

"मायकल."

"बरें, मायकल, तुका तुजे विशीं कांय सांगपाचें ना जाल्यार चलता, पूण तूं हांव सांगन ते प्रमाण काम करूंक तयार आसा जाल्यार हांव तुका रावपाक जागो आनी पोट भरूंक खाण जेवण दिवंक तयार आसां."

"देव तुजें बरें करूं. तूं म्हाका शिकय काम करूंक. हांव शिकतां."

सायमनान सुताचें गुठल हातांत घेतलें आनी बोटार इल्लें सूत गुठलायलें. मायकलूय तें पळोवन तसोच करूंक लागलो. मागीर सुताक कशें मेण लावचें तें सायमनान ताका दाखयलें. उपरांत मेण लायिल्ल्या सुतान चामडें कशें शिवचें तें शिकयलें. शिकयल्लें मायकल रोखडोच शिकतालो. तीन-एक दिसां भितर तो चामाराचें पुराय काम करूंक लागलो. खूब वर्सां सावन ह्या कामाची संवकळ आशिल्ले वरी, फिशालकायेन. काम जातकच तो वयर पळयतालो.

हो तरणाटो आपूण जावन कांय उलय नाशिल्लो. कोणूय ताचे कडेन उलयल्यार फकत जाप दितालो. ताच्या तोंडाचेर एके तरेचे गंभीर भाव आसताले. केन्नाच तो खळखळून हांसनासलो फकाणांय करी नासलो. मात्रेनान ताका पयले खेपे जेवंक दिल्लें तेन्नाच ताच्या तोंडार हांशें दिश्टी पडिल्लें, तितलेंच.

दीस गेले, म्हयने गेले, एक वर्सूय जावन गेलें. मायकल सायमना वांगडा जीव ओतून काम करतालो. लोकांक ताचें काम खूब मानवतालें. सायमनाल्या मोच्यांक आतां बरें गिरायक जावंक लागिल्लें. आनी ताच्या हातांत चार पयशेय घोळूंक लागिल्ले.

एक दीस सांजवेळचे सायमन आनी मायकल काम करूंक बशिल्ले. शिंयाचोच तेंप आशिल्लो. इतल्यान एक घोड्या गाडी तांचे खोंपी भायर येवन उबी रावली. गाडयेंतल्यान एक लांब-रुंद, घसघशीत, गिरेस्त कसो दिसपी मनीस सकल देंवलो आनी सायमना

सरी आयलो. सायमनान ताका नमस्कार केलो.

"तुमचे मदलो मोचे करपी कोण?" ताणें विचारलें.

"हांव धनया," सायमनान म्हळें. ताका त्या लोखणावरी दिसपी मनशाक पळोवन अजाप जालें. हो दुसरेच कडलो मनीस जावंक जाय, ताका दिसलें. सायमन आनी ताची बायल बारीक शिडशिडीत आशिल्लीं.

त्या गिरेस्तान व्हडल्यान आपल्या चाकराक उलो मारलो आनी म्हणलें "फेदका, तें चामडें हाडून दाखय बेगीन."

चाकर बेगीबेगीन पोती घेवन आयलो. गिरेस्तान ती पोती उकती करून तांतलें चामडें भायर काडून तें सायमनाक दाखोवन म्हणलें, "असलें चामडें केन्ना पळेलां तरी तुवें?"

सायमनान म्हणलें, "बरें चामडें हें."

"बरें चामडें! जर्मन चामडें हें, तूं जाणा? वीस रुबल दिल्यात हांवें ताचे." गिरेस्त आड्डलो.

सायमन भियेलो. "हांव असलें चामडें खंय म्हूण पळयतलों सायब..." ताणें म्हणलें.

"ह्या चामड्याचे म्हाका मोचे जाय. जातले?"

"हय धनया..."

"तूं कोणा खातीर हे मोचे करता ताचो उगडास दवर, कळ्ळें मरे? ते बरे जावंक जाय. इतलेंच न्हय, वर्सभर तरी घालूंक मेळूंक जाय. आतांच सांग, जातलें तुज्यान काय ना? मोच्यांत दोश उरलो जाल्यार तुका हांव सोडचों ना. कादयेंत घालतलों. ते वर्सभर आयले जाल्यार तुका हांव धा रुबल दितलों." गिरेस्तान मोठ्यान म्हणलें.

सायमनान कांचवेवन मायकला कडेन पळयलें आनी ताका विचारलें, "घेवं हें काम?" मायकलान "घे" म्हणलें तेन्ना सायमनान तें जर्मन चामडें घेतलें आनी बरे वर्सभर तगतले अशे मोचे करतां म्हूण गिरेस्ताक उतर दिलें.

‘‘म्हज्या पांयांचें जोख घे,’’ त्या गिरेस्तान म्हणलें. सायमनान पयलीं आपणाले हात पुसले आनी उपरांत ताच्या पांयांचे मात घेतलें. तेन्ना गिरेस्ताची नदर मायकलाचेर पडली. ‘‘हो कोण?’’ ताणें विचारलें.

‘‘तो म्हगेर कामाक आसता,’’ सायमनान जाप दिली. ‘‘ह्या चामड्याचे मोचे तोच शिंवतलो.’’

‘‘मोचे बरे वर्सभर येवंक जाय, कळ्ळें मरे?’’ गिरेस्तान परतेंय सांगलें. पूण मायकल ताचे कडेन पळयच नाशिल्लो. ताची नदर दुसरेच कडेन थिरावल्ली. तोंडार एके तरेचो उजवाड फांकिल्लो आनी ओंठार एक हांशें आशिल्लें.

‘‘हांसता कित्याक रे पिशा वरी?’’ गिरेस्त रागान उलोवंक लागलो. ‘‘म्हजे मोचे सांगिल्ल्या वेळार तयार जावंक जाय. नाजाल्यार तुमकां दोगांकूय-’’

‘‘तयार जातले,’’ मायकलान जाप दिली.

पांयांचे जोख काडच्या वेळार काडिल्लीं जोतीं गिरेस्तान पांयांत घालीं. खोंपींतल्यान भायर सरतना ताची तकली दाराक आपटली. गाळी संवत तो भायर आयलो.

तो वतकच सायमनान म्हणलें, ‘‘कसलो मनीस! तुतयान धाडायल्यार लेगीत मोडचो ना, असलो.’’ मात्रेनानूय म्हळें, ‘‘हय रे बाबा, फातरा वरी घट. मरण पसून भितलें असल्या मनशा सरीं येवपाक.’’

आनी मायकला कडेन पळोवन सायमनान म्हणलें, ‘‘हें काम आमी सारकें करूंक जाय. नाजाल्यार त्रासांत पडटले. चामडें म्हारग आनी गिरेस्त कोपिश्ट. तुजे दोळे म्हज्या दोळ्या परस बरे. तुजे हात म्हज्या हातां परस फिशाल. हें जोख घे आनी तूंच मोच्यां खातीर चामडें काप. शिवपाचें काम हांव करतां.’’

मायकल चामडें घेवन कापूंक बसलो. हो बुटां खातीर कापता काय

आनीक कित्या खातीर, मात्रेनाक दुबाव मारलो. "हांवें कित्याक विचारचें, दादल्यांकूच अदीक बरी खबर आसतली," तिणें मनांत म्हणलें, आनी ओगी रावली. चामडें कापून जातकच मायकल तें एकोड्या सुतान शिंवपाक लागलो. मोच्यांक दोट्टी सूत लागता म्हूण मात्रेना जाणा आशिल्ली. एकोड्या सुतान फकत जोतीं शिवतात... तरी ती ओगीच रावली.

जेवणा वेळार सायमन मायकला सरीं गेलो तेन्ना मायकलान बूट शिंवचे बदला जोतीं शिविल्लीं पळोवन तो सामको भियेलो.

"देवा म्हज्या! कितें केलें हें मायकल तुवें! मोचे करूंक जाय हें जाणा आसतना तुवें जोतीं कित्याक केल्लीं? घात जालो! आतां पावले आमी कादयेंत... कितें म्हूण सांगू आतां हांव त्या गिरेस्ताक? आनी इतलें म्हारगें चामडें विकतें घेवन ताका दिवपाची तांकूय ना म्हज्यांत. इश्टा, त्रासांत घालो म्हाका तुवें. गिरेस्ताक बूट जाय म्हूण जाणा आशिल्लो मरे तूं! तुवें अशें कित्याक केलें?"

हे भाशेन बेजारून उलयता आसतनाच कोणें तरी दारार मारिल्ल्याचो आवाज आयलो. सायमनान जनेलांतल्यान भायर पळयले. एकलो घोडसुंवार आपणाल्या घोड्याक झाडाक बांदतालो. सायमनान दार काडलें. "तुमचे खातीर म्हज्यान कितें करूं येता धनया," ताणें घोडसुंवाराक विचारलें.

"म्हाका म्हजे मालकिणीन धाडला, त्या मोच्यांक लागून," घोडसुंवारान म्हळें.

"सायमनाच्या पोटांत धस्स जालें." "खंयचे कोणाचे मोचे?" सायमनान विचारलें. तो मनीस सांगूंक लागलो, "आतां आनी म्हज्या मालकाक त्या मोच्यांची गरज ना... आमी घरा वतना वाटेरूच ताका मरण आयलें. आतां ताच्या मर्णा खातीर जोतीं जाय आशिल्लीं... मालकिणीन म्हाका जोतीं घेवनूच यो म्हूण सांगून धाडला... म्हूण आयलां हांव."

मायकलान आपणें तयार केल्ली जोतीं एका आंगशान पुसलीं, चामड्याचे उरिल्ले कुडकेय एकठांय केले आनी सगळें चाकरा कडेन दिलें.

चाकर तांकां नमस्कार करून भायर सरलो.

मायकल सायमनागेर येवन रावंक लागिल्ल्याक स वर्सां जाल्लीं. तो खंय भायर वचनासलो. उलयल्यार जाप दितालो, आनी इतल्या वर्सांत दोनूच फावटी ताच्या तोंडार तांणी हांशें पळयल्लें. पयले फावट, मात्रेनान काकळूत येवन ताका जेवण दिल्लें तेन्ना; दुसरे फावट, त्या गिरेस्तान मोचे करूंक आदेश दिल्लो तेन्ना. सायमन ताका कसलेच प्रस्न विचारी नसालो. मायकल एक दीस सोडून वतलो हाचो ताका भंय आशिल्लो.

एक दीस तिगांय आपलें आपलें काम करीत बशिल्लीं. तेन्ना मात्रेनान एक बायल मनीस दोन सान चलयांक घेवन तांच्या घराचे दिकेन चलत येताली ती पळयली. सायमनाचो एकलो भुरगो बांकार चडलो आनी, 'मायकलकाका, हीऽ ती पळे एकली दोगी चलयांक घेवन आमगेर येता,' म्हणलें. हें आयकून केन्ना न्हय तो मायकल उठून जनेला सरीं गेलो आनी दोळे बारीक करून तांकां पळोवंक लागलो. सायमनाक अजाप जालें. वेवस्थीत बरी न्हेशिल्ली ती बायल-मनीस दोगी चलयांक घेवन खोंपी म्हऱ्यांत पावली. चलयो जुंवळ्यो कश्यो दिसताल्यो. फकत एकली मातशी लंगडटाली. दोगींच्या आंगार गरम कपडे आशिल्ले.

सायमनान दार उक्तें करून तांकां भितर घेतलीं आनी बांकार बसूंक सांगलें. ती बायल मनीस बसली. चलयो तिचे म्हऱ्यांत उब्यो रावल्यो. नव्या मनशांक पळोवन त्यो इल्ल्यो भियेल्ले वरी दिसताल्यो.

"म्हगेल्या चलयां खातीर मोचे जाय," ते बायल मनशेन म्हणलें.

"इतले ल्हान मोचे आमी केन्ना करूंक नात. पूण म्हगेर कामाक

आसा तो मनीस एक फिशाल कारागीर. तो तुमकां जाय तसले मोचे करून दितलो,'' सायमनान म्हणलें.

इतलोय हो वेळ मायकल त्या ल्हान चलयांक पळयत बशिल्लो. सायमनाक अजाप दिसलें. चलयो दिसपाक सुंदर आशिल्ल्यो. मायकल तांकां विचित्र तरेन पळयतालो, तांची आदली वळख आशिल्ले वरी. सायमनान कांय म्हणलें ना.

जे चलयेच्या पांयाक दोश आशिल्लो तिका मांडयेन घेवन ते बायल मनशेन म्हणलें, ''हीं दोगांय जुंवळीं. पूण हिचो एक पांय मातसो वांकडो आसा. हिच्या दोनीय पांयांचें जोख घेतल्यार जालें.'

सायमनाक ते चलयेची काकळूत दिसली. ''अशें कशें जालें? जल्मा सावनूच पांय वाकडो आशिल्लो...?'' ताणें तिका विचारलें.

तेन्ना मात्रेनान म्हणलें, ''तूंच आवय मूं ह्या चलयांची?''

''ना. हांव तांची आवय न्हय, वा सोयरीय न्हय. ती म्हजी पोसकीं. ल्हानपणा सावन हांवें तांकां म्हज्या भुरग्यां वरी वाडयल्यांत. हांव तांचो खूब मोग करतां. म्हाका एक चलो आशिल्लो. ताका देवान व्हेलो आनी हीं दोगां म्हाका दिलीं. म्हगेल्या चल्या परस आयज ह्यो दोगी चलयो म्हजो जीव जाल्यात.''

मात्रेनान तेन्ना तिका विचारलें, ''कोणालीं तर हीं भुरगीं?''

ती बायल मनीस पुराय काणी सांगूंक लागली-

''स वर्सां फाटीं एकाच आठवड्या भितर ह्या भुरग्यांची आवय-बापूय मेलीं. बापूय मंगळारा, आवय शुक्रारा. बापायच्या मरणा उपरांत तीन दिसांनी हीं भुरगीं जल्मा आयलीं. म्हजो घोव आनी हांव त्या गांवचीं शेतकामती. आमी तांची शेजारी आशिल्लीं. हांचो बापूय रानांत लाकडां मारूंक गेल्लो तेन्ना आंगार एक झाड पडून तो मेलो. शुक्रारा ताचे बायलेन ह्या जुंवळ्या चलयांक जल्म दिलो.

तिच्या आधाराक कोण नाशिल्लो. दुसऱ्या दिसा आमी तिची खबर घेवंक गेलीं तेन्ना पळयत जाल्यार ती मरून पडल्या. मरच्या वेळार हें

चलयेचो पांय तिचे कुडी पोंदा आशिल्लो. ताका लागून तो मातसो वांकडो जालो. आमी गांवच्या लोकांनी तिचें मर्ण केलें. पूण भुरग्यांचें कितें करतलीं? त्या वेळार फकत म्हाकाच ल्हान भुरगें आशिल्लें- म्हजो दोन म्हयन्यांचो पूत. गांवच्या लोकांनी सांगलें, आतां तरी तूंच पळय तांकां, मुखार कितेंय उपाय काडूं येत. हांव तांकां घेवन घरा गेलीं. हीं भुरगीं वांचतलीं अशें म्हाका दिसूंक नाशिल्लें. हांवें तांकां म्हजें दूद दिवन वाडयलीं. देवानूय, ह्या भुरग्यांक मेळचें म्हूण, म्हाका भरपूर दूद दिलें.

"म्हजो पूत दोन वर्सांचो जालो तेन्ना भायर पडलो. पूण ह्या दोगी चलयांक लागून म्हाका ह्या संवसारांत एकलेपण जाणवना. तीं दोगांय म्हाका आनंद दितात."

ती बायल मनीस तेन्ना ते वांकड्या पांयाचे चलयेक वेंगेत घेवन बशिल्ली. कांय वेळान ती आनी भुरगीं उठून गेलीं. मात्रेनान तेन्ना म्हणलें, "ह्या संवसारांत आवय-बापूय नासतना जियेवं येता, पूण देवा बगर जियेवं नजऽ"

ती बायल मनीस आनी तिच्यो चलयो वतकच मायकल बांकार बशिल्लो उठलो. दोनूय हात जोडून तो मात्रेनाक पांय पडलो. "हांव आतां तुमचो निरोप घेतां. देवान म्हाका माफ केलो. आतां तुमीय म्हाका माफ करात म्हूण हांव तुमचे कडेन मागतां," ताणें म्हणलें.

मायकलाच्या तोंडार उजवाड दिसतालो. सायमन उठलो आनी ताणें मायकलाक नमस्कार केलो. "मायकल, तूं सादो मनीस न्हय. तुका आमगेर राव म्हणपाचो म्हाका हक ना. तुका कितेंय विचारपाचोय हक म्हाका ना. म्हाका फकत एक सांग, तुका हांव घरा घेवन आयिल्लों तेन्ना तूं चिंतेस्त दिसतालो. मात्रेनान तुका पयले खेपे जेवण दिल्लें तेन्ना तुज्या तोंडार हांशें आशिल्लें. आनी आतां ती बायल मनीस त्या ल्हान चलयांक मोगान पळयतालीं तेन्नाय तुज्या तोंडार तसलोच उजवाड आशिल्लो. उजवाड आनी हांशें - तीन

फावटी घडलें अशें. ताचें कारण तूं आमकां सांगशीत जाल्यार उपकार जायत.''

''देवान म्हाका शिक्षा केल्ली. आतां ताणें म्हाका माफ केलो. तीन सत्यां शिकून घेवंक देवान म्हाका ह्या संवसारांत धाडिल्लो. हांव तीं तिनूय शिकलों. पयलें, तुजे बायलेन म्हजेर दया दाखयली, तेन्ना. दुसरें, तो गिरेस्त आयिल्लो तेन्ना. आनी, आतांच ती बायल मनीस त्या ल्हान चलयांक घेवंक आयिल्ली तेन्ना म्हाका तिसरे आनी निमाणें सत्य समजलें. ते बायलेन दुसऱ्याच्या भुरग्यांक आपलीं जाल्ले वरी प्रेमान वयर काडिल्लीं. तें पळोवन हांव हांशिल्लों.''

''देवान तुका कित्याक शिक्षा दिल्ली, मायकल, म्हाका सांगशीत?'' सायमनान विचारलें. ''आनी, हीं तीन सत्यां खंयचीं तेय विशीं सांग म्हाका...''

मायकल सांगूंक लागलो-

''हांवें देवाचो आदेश मानलोना... हांव एक देवदूत आशिल्लों. एके बायल मनशेचो आत्मो हाडपाक म्हाका धर्तरेर धाडिल्लो. हांव धर्तरेर पावलों तेन्नाच ते बायलेन दोगां जुंवळ्या भुरग्यांक जल्म दिल्लो. तिणें म्हाका पळयलो तेन्ना ती म्हाका वळखली. म्हणूंक लागली, देवदुता, कालूच म्हज्या घरकाराक पुरला. ताचेर रूख कोसळून तो पयर मेल्लो. म्हज्या घरांत भयण, आवय, मावशी, कोण ना ह्या भुरग्यांक पळोवपाक. आतांच म्हजो जीव घेवन वचूं नाका... तिचें दुख्ख म्हज्यान सोंसूंक जालें ना. हांव थंयच्यान भायर सरलों आनी देवा म्हऱ्यांत गेलों. सगली खबर हांवें देवाक सांगली. देवान म्हणलें, ''असोच परतो वच आनी तिचो आत्मो घेवन यो. आनी, तीन सत्यांय शिकून यो- मनशा भितर कितें आसा, मनशाक कितें दिवंक ना, आनी मनीस कोणाच्या आधारान जियेता. हीं सत्यां शिकले उपरांतूच परतो सर्गांत यो.''

''हांव सकल आयलों. ते बायलेचो आत्मो हांवें घेतलो. तेन्ना

तिच्या आंगार आशिल्लीं भुरगीं सकल पडलीं. एका भुरग्याचो पांय तिचे कुडी पोंदा उरलो आनी वांकडो जालो. थंय सावन हांव उठून वयर वतना म्हजे पांखाटे आपशीं झडले, आनी एक व्हडलो वाव येवन हांव सकल पडलों. तिचो आत्मो देवा म्हऱ्यांत गेलो आनी हांव मार्गा कुशीक पडलों...''

मायकल एक देवदूत आशिल्लो, स वर्सां तो आपणा वांगडा खोपींत रावलो, जेवलो-खालो, वावुरलो म्हूण कळटकच सायमन आनी मात्रेन रडूंक लागलीं. देवदूत मुखार सांगपाक लागलो-

''हांव एकलोच आशिल्लों. म्हज्या आंगार कपडे नाशिल्ले. मनीस कशे जियेतात, तांच्यो गरजो कितें, म्हाका कांय एक खबर नाशिल्लें. त्या इल्ल्याश्या कपेला म्हऱ्यांत हांव पडिल्लों. म्हाका भूक लागिल्ली, थंडी खाताली आनी म्हजे आंग दुखतालें. तेन्नाच तुका हांवें पळयलो. मनीस जल्म घेतले उपरांत तूं म्हाका दिश्टी पडिल्लो पयलोच मनीस आशिल्लो. हांव भियेलों. तूं तेन्ना शिंयाची खरसाण कशी कमी करची, आंगार कसले कपडे घालचे, बायले भुरग्यांक कपडे खाण कशें दिवचें बी असल्या विशयांचेर येवजितालो. म्हाका अजाप जालें. दिसलें, हांव हांगा शिंयान मरूंक पावलां आनी हो मनीस आपणालेंच येवजिता... पूण ताणें म्हाका पळयलो आनी ताचें रूप म्हाका देवाचें कशें दिसलें. ताणें म्हाका कपडे दिले आनी म्हाका घरा व्हेलो. थंय म्हाका एकली बायल मनीस दिश्टी पडली. कितली भयंकर दिसताली! म्हाका स्वास घेवंक लेगीत त्रास जावपाक लागलो. ती म्हाका घरांतल्यान भायर धांवडावन घालूंक सोदताली. तिच्या घोवान तिका देवाचो उगडास करून दिलो आनी म्हजेर काकळूत कर म्हूण सांगलें. तेन्ना तिणें म्हाका खावपाक हाडून दिलें. तिणें म्हजे कडेन पळयलें तेन्ना ती भयंकर दिसनासली. ती सादी बायल मनीस आशिल्ली. पूण तिच्यांतूय म्हाका देव दिश्टी पडलो.

तेन्ना म्हाका देवाचो पयले खेप उगडास जालो. मनशांत कितें

आसता ह्या प्रस्नाची जाप म्हाका मेळ्ळी. मोग, दया, माया! इतले बेगीन देवान म्हाका प्रस्नाची जाप दाखयली म्हूण हांव खूब खोशी जालों. तेन्ना हांव पयले खेपे हांसलो. पूण आनीक दोन सत्या म्हजीं शिकपाचीं उरिल्लीं.

हांव तुमचे बरोबर रावलों... आनी एक दीस एक गिरेस्त तुमगेर आयलो. वर्सभर बरे उरतले असले मोचे करून दी म्हूण तो तुका सांगतालो. हांव ताका पळयत आशिल्लों. मरणाचो दूत ताचे वयरूच आशिल्लो. हांव ताका वळखलों. हो मनीस एका वर्साची तयारी करता, पूण तो एक दोन वरां भितरूच मरपाचो आसा, हाची ताका खबर ना. तेन्ना म्हाका देवाचीं उतरां याद जालीं- 'मनशाक कितें दिवंक ना तें जाणून घे.' मनीस कितलो वेळ ह्या संवसारांत उरपाचो आसा ताचें गिन्यान ताका दिवंक ना. म्हाका दुसरें सत्य होलमलें. तेन्ना हांव दुसरे फावटी हांसलों.

तिसरें सत्य जाणून घेवपाचें उरिल्लें. स वर्सां उपरांत एक दीस एकली बायल-मनीस दोन सोबीत ल्हान चलयांक घेवन आगमेर आयली. त्या दोन चलयांक हांव वळखतालों. तांचे आवयचें म्हणणें आयकून देवाचें उतर हांवें मानूंक नासलें आनी देवान त्याच खिणाक म्हाका शिक्षा दिल्ली. ह्या भुरग्यांक पळयलीं तेन्ना म्हाका तांचे आवयचीं उतरां याद जालीं. म्हज्या भुरग्यांक कोण पळयतलो, तिणें विचारलें. आवय-बापूय नाशिल्लीं एका दिसाचीं ल्हान भुरगीं. पूण एके परकी बायल मनशेन तांकां आपणागेर व्हेलीं, आनी आपणालें दूद दिवन तांकां मोगान वयर काडलीं. हे बायल मनशेच्या तोंडार म्हाका जितो जिवो देव दिश्टी पडलो. तिसरें सत्य म्हाका कळ्ळें. हे बायलेन परक्या भुरग्यांक फकत आपल्या घरांत घेतलीं नात, आपणालींच भुरगीं जाल्ले वरी तांकां प्रेमान वाडयलीं. मनीस सुवार्थ कुशीक दवरून प्रेमान वागूंक जाणा, दया माया दाखोवंक जाणा. हें तिसरें सत्य म्हाका समजलें. मरपाच्या वेळार ह्या भुरग्यांले आवयक

आपल्या भुरग्यांचें मुखार कितें जातलें तें खबर नाशिल्लें. आपल्याक मोच्यांची गरज ना म्हूण गिरेस्त मनीस नकळ आशिल्लो. एके परके बायल मनशेन दोगां भुरग्यांक प्रेम दिलें, घर दिलें, तांकां व्हड केलीं. मनशाचो सुवार्थ प्रेमांत बुडटा आनी तो दुसऱ्या कडेन प्रेमान आनी मायेन चलता.

देवाची इत्सा, मनशांनी सगल्यांनी एकठांय रावचें, एकामेकांक गरजेक आधार करचो आनी मोग दिवचो, माया वांटची, म्हाका हें सगलें समजलें...''

तेन्ना देवदुतान वयर पळयलें, आनी देवाची तुस्त केली. तेन्ना ताचो आवाज मातसो कडकडलो. खोंपीचें पांखें उक्तें जालें आनी थंयच्यान देवदूत मळबा दिकेन गेलो. सायमन, मात्रेना आनी तांच्या भुरग्यांनी दिमी घालून देवदुताक आनी देवाक नमस्कार केलो.





## तोलस्तोयाच्यो काणयो

सुंदर, नकसूद अशा काणयांचो हो संग्रह जरी कुमार साहित्यांत लेखलो तरी तो सगळ्या ईदादीच्या वाचप्यांखातीर आसा. ह्यो काणयो तुमकां चिंतपाक लायतात वा तुमच्या ओंठार मुमुरखोच हांसो फुलयतात. तुमकां जर त्यो आवडल्यो जाल्यार तोलस्तोयाचे आभार मानात. आवडल्यो नात जाल्यार तें म्हजें दुबळेंपण अशें समजात.

- के. बी. राव

संजना
पब्लिकेशन्स